चतुर्विध
एकांकी संग्रह
उल्हास यशवंत नायक

**Chaturvidh**
(One act Play collection)
***Ulhas Yashwant Naik***

प्रकाशन क्र. **31**



पयली आवृत्ती
2005

छापणावळ
इम्प्रेशन्स
बी-2, 'अक्षर आर्केड'
3360/4, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - 590 002

अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

दर्शनी चित्र
सुबोध केरकार

प्रकाशक
कामिनी किणी
बिम्ब प्रकाशन
जी.एस.बी.3,
हावसिंग बोर्ड कॉलनी,
पर्वरी - गोंय

मोल : **80/-**
ISBN 81-902817-2-0

पयलो चंवर येवजणेंत गोवा कोंकणी अकादमीच्या पालवान हें पुस्तक प्रकाशीत केलां.



लेखकाचो पत्तो :
उल्हास यशवंत नायक,
सिमेपायण, म्हाड्डोळ, गोंय.
फोन : 2343008

बाबा,

(सर्वेस्त यशवंत बुधो नायक)

रेवेंचेर अक्षरांची वळख घेवन तुवें ततपप् करून म्हजी

पयली वयली मराठी कथा सर्तीतली जैतीवंत कथा

वाचून म्हणिल्लें,

"बाबा, हें कितें? ... कितेंय बरयता तें लोकांक

कळसारकें, काळजांत पाव सारकें बरय...."

आयजमेरेन ह्या उतरांचें बीं काळजांत किल्लयत

आयत भाशेंतल्यानच निर्मिती करतां

तूं पळयता न्हय?...

– उल्हास

## श्री. उल्हास यशवंत नायक हांचीं
## प्रयोग जाल्लीं अप्रकाशीत नाटकां / एकांकी

**नाटकां**

हें अशेंच चलपाचें?
आमकां आडव नाकात...
रूख चंवरतना...
सांवट
काळधर्म
हुकुमाचें पान
डावपरती
मरणरंग
पातकी राजा, घातकी प्रजा (विनोदी)
बाबा घरा आबा (विनोदी)
देवा धर्मान आयलें दारांत (विनोदी)
देवा तूं पाव रे (विनोदी)
कौन बनेगा तेरा पती? (विनोदी)
गर्भार फांतोड
बे दूणे ... एक
रातराणी

**एकांकी**

हें अशेंच चलपाचें
कयपंजी
अशांत उजो
असत्यमेव जयते
तमसो मा ज्योतिर्गमय
एक चित्र अर्दकुटें
दि क्रियेटर
ओली फांतोड
बेप्पो दि ग्रेट
शिटकावणी
भुरग्यांले हट्ट
भुरगेपणां, पिशेपणां? .. देव जाणां

# सतत धडपडपी गुणी नाटककार

म्हज्या एका लेखक इश्टान ताच्या तर्शेंच म्हज्या एका इश्टाक आपणालें पुस्तक ओंपलां. अर्पण पत्रिकेंत हो फांकीवंत लेखक बरयता :

"इश्टा, धडपडीक अंत नासता पूण अर्थ मात आसता."

उल्हासाविशीं अशेंच किदेशें म्हाका हांगां म्हणचेशें दिसता. नाटककार म्हूण ताच्यांतल्या हेर गुणांबराबरूच ताच्यांतलें सातत्य खूब तोखणाय करीसारकें. अवघेच आडवाद सोडल्यार आमच्यांतल्या चडशा जाणांक हें सादूक ना.

कोंकणी बरोवप्यांमदीं बरे नाटककार म्हूण फुडें येवपाची तांक आशिल्ले जायते जाण आसात. कांय जाणांनी जैतवंत प्रयत्नूय केल्यात. पूण विविध कारणांक लागून नाटकां बरोवपाक ते सातत्य दाखोवंक पावूंक नात. हें सुशेगादपण घातमारें.

देखुनूच कोंकणी रंगमाचयेचें दालन फाटल्या २५-३० वर्सांनी भरपूर समृध्दीक पावलां, पूण मौलीक (original) संहितांची अजून फावो तितली पुरवण जायना. रूपांतरांचेर आमची कोंकणी रंगभूमी आयज चडशी अवलंबून आसा. कांय रंगकर्मींनी भाशांतरां / रूपांतरां आपणालीं मौलीक म्हूण खपयल्यांत हेवूंय मर्तींत घेवपासारकें.

अशा वेळार एखादो नवो उमेदीचो सतत, क्रियाशील आशिल्लो नाटककार आपणालें नाटकाचें पुस्तक काडपाक फुडें सरता तेन्ना खूब बरें दिसता. म्हजे सारकेलो नाट्यपिसो तर सामको भुल्लुसून वता अशें म्हणल्यार जाता.

गोंय स्वतंत्र जावन वट्ट ४२ वर्सां जालीं. आमची भास राजभास जाली, भारताच्या संविधानांतूय पावली. तरीय जावन साबार कारणांक लागून आमचें साहित्य हिमनगाचे अवस्थेंत आसा. हिमनग म्हळ्यार उदकांतलो झेला कुडको. तो वयर दिसता ताचे कितलेशेच पटीनी ताचो चड वांटो उदकापोंदा लिपिल्लो आसता.

आमचे कडेन वेवसायीक प्रकाशन संस्था नात. बरयल्ली बरपावळ बरीचशी आकाशवाणीच्या टेपींनी, नेमाळ्यांच्या पानांनी, बरोवप्यांच्या कपाटांनी पडून आसा. दडून उरल्या. रामायणांतले अहिल्येवरीं. आतां ह्या उल्हासाचेंच पळयात.

१९८२ वर्सा ताणें आपणाली पयली वयली सेवा कोंकणी साहित्य शारदेच्या देवळांत रूजू केली. तेन्नाच्यान तो सतत विंगड विंगड साहित्य प्रकार हाताळीत आसा. जायतीं इनामाय ताणें मेळयल्यांत.

उल्हासाच्या नाटकांचीच गजाल सांगतलो जाल्यार ताचें योगदान ल्हान सान ना.

१९९० त ताणें कोंकणींत नाटकां बरोवपाक सुरवात केली. आजवेर ताणें पूर्ण लांबायेचीं वट्ट १४ नाटकां बरयल्यांत! तांचे प्रयोग कला अकादमीच्या सर्तींनी आनी हेर कडेनूय जाल्यात. तरेकवार इनामांचींय तीं धनी जाल्यांत.

उल्हासाच्या खात्यार वट्ट ११ एकांकीका आसात. त्योय भोवतेक प्रयोगक्षम आशिल्ल्यान तांचे प्रयोग रंगल्यात, इनामांय मेळोवन गेल्यात.

इतलेंय आसून ताचें नाटकाचें हें पयलें वयलें पुस्तक. अशेच तरेन आमचे जायते तरणे साहित्यीक 'हिमनग' अवस्थेंत आसात. गोवा कोंकणी अकादेमीची 'पयलो चंवर' येवजण हेखातीर खूब म्हत्वाची आनी मोलादीक.

उल्हासाचें बरोवप 'आयलें तशें गायलें' अशा उखलाप्या स्वरूपाचें न्हय. तो सामाजीक लागणूक मानपी, सामाजिक बांधिलकेचें सदांच भान राखपी नाटककार. समाजांतल्या विविध विशयांचेर खोलायेन अभ्यास करून बरोवपाक बैठक मारपी. एका निश्ठावंत लेखकाक योग्य अशे तरेन सामाजीक, राजकी, धर्मीक, शिक्षणीक, मनोविश्लेशणात्मक अशे तरेकवार विशय तो आपणाल्या नाटकां/एकांकींनी हाताळटा.

'विविध' विशयांवेल्या 'चार' नाटकुल्यांचो हो संग्रह; देखुनूच 'चतुर्विध' हें सोबसारकें नांव ह्या पुस्तकाक दिलां आसूं येता.

जनसामान्य हेर वयल्या थरांतल्या लोकांचो 'फुडार रचीत वता' पूण 'ताका स्वताक फुडार नासता.' अशाच एका सामान्य 'बेबद्या' विठूचे भोंवतणीं 'हें अशेंच चलपाचें?' ही एकांकी गुथल्या. भोंवतणच्या समाजान ताका 'बेबदो' म्हूण हिणसायत कुस्कुटायला. पूण तांच्यांतल्या असामान्य, त्यागी, मनीसपणाक

जागपी मनशाच्या अंतर्मनाचो वेध नाटककारान घेतला.

एका अविकसीत, अशिक्षितांनी भरिल्ल्या गांवकारांचे राजकी, सामाजीक पिळणुकेची, वंचनेची ही काणी. गांवांत येवपा-वचपाक एकूच पाटो आसता. ताका सांकव नाशिल्ल्यान पावसाळ्यांत उदक भरता. शेतां बुडटात.

गांवकारांच्या हालांक पावसाळ्यांत शीम-मेर उरना. पिळग्यान पिळग्यो, लोक हे उपाद्रे सोंशीत आयल्यात. सोंसप तांच्या रगतांत भिनलां. तांच्या मनाक कणोच उरूंक ना.

राजकारणी लोक सदांवरी फकत वेंचणुकां वेळार उदेतात. गांवकारांक आश्वासनांची फुलां माळून वतात. वेंचून येतकीर तीन पानां! मतदारांच्या तोंडाक पुसपाखातीर! अडाणी लोक तांचे भकीक पडटात.

कोणूच आगा-पिछा नाशिल्ल्या विठू गवंड्याक हें सोंसना. तो खूब सोरो पियेवपी. समाजाचे नदरेन तो एक बेबदो. भोंवतणचे लोक ताका किंकोत लेखतात, ताच्यो भगल्यो मारीत आसतात. केन्ना केन्ना ते ताका बडोवपाकूय फाटीं रावनात.

एके रातीं विठूचें समाजवादी, विद्रोही मन बंड करता. तो पारयेचें लवंग घेवन पाटो खणटा. उदक मेकळेपणान व्हावूंक लागता. पाटो खणटां खणटां तोल वचून विठू उदकांत पडटा आनी थंयच घट जाता.

जिवीतभर लोकांल्या केणण्याचो विशय जाल्लो विठू गवडो एक व्हड समाजकार्य करून वता. थंय सावन लोक जागृताय जाता. एका सामान्य मनशाचे असामान्यतायेचो वेध घेवपी ही एकांकी. भोंवतणी चलत आयिल्लो जुलूम, अत्याचार कोणेंय पूण एक दीस फुडें सरून, जोखीम पत्करून मोडून काडूंक जाय असो संदेश ही एकांकी दिता.

गांवगिऱ्या वाठारातल्या समाजांनी अज्ञान, अडाणीपण उपाट भरिल्लें आसता. तांका कोणूय किदें बरें करूंक फुडें सरल्यार ताका भोंवतणचे लोक एक तर पिसो वा चड शाणो लेखून हिणसायतात; मारतात लेगीत. हेंवूय हे नाटिकेंत प्रभावी रितीन मांडलां.

नाटककार वाचप्यां/प्रेक्षकां मुखार प्रस्न उबो करता आनी ताचेर जाप सोदपाची जापसालकी तांचेर घालून आपूण कडेक सरता. प्रस्न असो : 'हें सदाकाळ अशेंच चलपाचें?' अर्थात्, ह्या प्रस्नाची जाप आमकां विठू गवड्यान दिल्लीच आसा.

'अशांत उजो' ही नाटिका बरीचशी प्रासंगीक स्वरूपाची. तिका सर्वसाधारणपणान भारत-पाक झुजाची फाटभूंय आसा; विशेशतायेन कारगील झुजाची. मायभुंयेच्या उल्याक प्रतिसाद दिवपाक, झुजपाक गेल्ल्या मर्दी महाराष्ट्राच्या बीड जिल्ह्यांतल्या भुकंपग्रस्त लातुरांतल्यान फुडें सरिल्ल्या जवानांचोय आसपाव आसा. हिवूय गजाल नाटिकेचे topicality क पोसवण दिता.

विक्रम हो लग्नाची सोयरीक निकतीच जाल्लो तरनाटो. अशें आसतनाय मायभुंयेच्या खर अभिमानान कारगिलांत दाखल जाला. ताचो घुस्मटमार जाता. वयल्यान ताका जाय तसलो हुकूम येना आनी ताची झुजपाची खुमखुमी शांत जायना. तो अशांत उजोसो धगधगत उरता.

दुसरे वटेन विक्रमाक घरच्यो यादी, कुड्ड्या बापायचो हुस्को, वाडिल्ले भयणीच्या फुडाराची चिंता, आवयचे मायेचे उबेचे उगडास आकूळपिकूळ करीत आसतात.

विक्रम थंयच्यान पळून वचपाचो बेत उक्तायता. वरीश्ठ सैनीक आशिल्लो धिरेन्द्र संतापता. पूण अणभवी मेजर विक्रमाक समजायता आनी ताचें मनपरिवर्तन घडोवन हाडटा.

अचकीत वायरलेसी वेल्यान संदेश येता: लागसारूच एके घळींत पाकिस्तानी पलटण पावल्या. इतल्यांत उदक सोदपाक गेल्लो विरेन्द्र एका पाक अतिरेक्याक धरून बडयत हाडटा. ताचेकडल्यान पाक सैन्याचे हालचालींचेर अदीक म्हायती मेळून उजवाड पडटा.

हेर सांगात्यांची नदर चुकोवन विक्रम आनी मेजर झुजाच्या सामानासयत घळीकडेन धांव घेतात. सोमतोच एक बॉम्ब उडोवन पाक पलटण ते खाक, राख करून उडयतात. पूण विक्रमाकय आकताक थंय मरण येता. जखमी मेजर विक्रमाची कूड ओडीत घेवन येता. शेकीं मेजरूय रोखडोच शहीद जाता.

'युद्धस्य कथा रम्या' अशें संस्कृतांत एक वचन आसा. म्हणल्यार झुजांच्यो रंजीत काणयो आमकां सुशेगाद घराकडेन सुखी आशिल्ल्यांक आयकुपाक रम्य आसतात. पूण प्रत्यक्ष झुजामळार जीव ताळटार घेवन फारपेटाक फुडो करपी युनिफॉर्मांतलो जवान होवूय हाडा-मासाचो, भावना-उमाळ्यांचो मनीसूच आसता. हें आमी विसरतात. जवानांकय आमचे वरीच संवेदना आसतात हाचें भान आमकां

आसना व्हय?

सरादीचेर प्राणपणान झुजून सैनिक मांयभुंयेची राखण करतात. देखुनूच आमी नागरीक सुखान जियेतात, साकर न्हिदो काडटात. कितलेशेच सैनिक शहीद जातात.

समस्त अमर हुतात्म्यांक प्रतिकात्मक रितीन आर्गां दिवपी, श्रध्दांजली ओंपपी अशी ही नाटिका. सोंपिल्ल्या सैनिकां फाटल्यान तांच्या घरच्यांचो सांबाळ करप ही सगल्या देशवासियांची लागणूक. तिचीय अप्रत्यक्ष जाणीव करून दिवपी शिटकावणीय हांगां आसपावल्या.

'एक चित्र अर्दकुटें' हें एक नभोनाट्य. ताची प्रयोगक्षमताय प्रत्यक्ष ते माचयेर खेळयतुकूच सिद्ध जातली.

एका मुर्तीकार, शिल्पकार कलाकाराची ही नमुन्या दाखल कथा-व्यथा. कलाकाराचे वेव्हार शुन्यतायेचे. परिणतीची काणी. कलाकारांक घरचीं चडशीं केन्नाच वळखनांत. दिव्यापोंदा काळोख म्हणटात ते भाशेन. पूण कलाकाराचे नामनेचो उजवाड भायर जगभर फांकारिल्लो आसूं येता. पिढीजात परंपरेन चलत आयिल्ल्या धंद्या वेवसायाचो भुरग्यांक अभिमान नासता. चुकीच्या शिक्षणाचो, संस्कारांचो, गैरसमजांचो हो परिणाम. पूण अखेरेक बापायच्या मर्णा उपरांत ह्या कलंदर कलाकाराचो पुताक बशिल्ले कडेन कसो भरघोस लाव जाता तें हे नाटिकेंत निमणे कलाटणेन पळोवंक मेळटा.

ह्या मुर्तिकाराचे कलेचें असामान्यत्व ताचे बायलेक आनी पुताक केन्नाच कळना. तिचे नदरेन तो फकत एक घोव आनी पुताचे दिश्टीन शिल्पकार हो फकत एक बापूय. तांच्यो इत्सा-आकांक्षा भागयता, भरपूर जोडटा जाल्यारूच ताका मान दिवपाचो. हें एक चिरंतन सत्य. 'सर्वे गुणा : कांचनम् आश्रयन्ते' अशें संस्कृतांत एक भाश्य आसा. ताचो अर्थ 'सगले गूण पयश्यांक लागल्यात.' वेव्हारी जगांत, समाजांत दुडवांबगर कोण कोणाक लेखता? हातुंतल्यानूच दुडुर्ब्रम्हा, दुडुर्विष्णु, दुडुर्देवो महेश्वर: ही म्हणणी कोणेंतरी घडयल्या.

नामनेचो मराठी साहित्यीक वि. स. खांडेकर हाचे एके कादबरेंत वाक्य आसा : 'या पृथ्वीच्या पाठीवर पैसा हाच परमेश्वर आहे.'

हे नाटिकेंतल्या मुर्तिकाराचे कलेचो ताचे तथाकथीत इश्ट गैरफायदो घेतात, ताका नागयतात. कलाकार चडशे अवेव्हारीच न्हय?

पूण एक अमेरिकन, विदेशी रसिक ताचे कलेक तोखेवपी. असामान्य रसिक आनी पयशेकार.

खूब तकालस घेवन ह्याच विदेशी रसिकाखातीर तयार केल्ली अपूर्ण मूर्त बापाय-पुताचे बाचाबाचे वेळार पुताचे आगळिकेन इबाडटा. पुताचे हे करणेचो काच घेवन मुर्तिकार मरता.

एका म्हयन्या उपरांत तो फोरेनर मूर्त व्हरपाक म्हूण येता. इबाडिल्ली मूर्त 'अपूर्ण उरल्या' अशी फट मारून पूत सारवासारव करता. तरीय जावन तो विदेशी रसिक वट्ट पन्नास हजार रूपयांक ती मूर्त घेता.

पुताक बापायचें आनी ताचे कलेचें मोल ताच्या मरणा उपरांत कळटा तें हे भशेन. पश्चातापान तो निन्नळटा. बेकार भोवंचे परस बापायकडल्यान ही कला वेळारूच शिकून घेतिल्ली जाल्यार काय बरो फुडार मुखार येवपाचो हें सत्य ताका पट्टा.

आमच्या देशांतल्या भोवतेक दळडिरान, अवहेलनेन आनी घरच्यांच्यो बकच्छायो सोंशीत जीण सारपी दुर्दैवी कलाकारांचीय व्यथा ही नाटिका मांडटा.

ह्या संग्रहांतली चवथी आनी निमणी नाटिका 'असत्यमेव जयते' प्रादेशीक तशेंच राष्ट्रीय पावंड्याचेर आज जो राजकी-सामाजीक-नैतीक ऱ्हास चल्ला ताचें प्रतिकां सयत प्रभावी विवेचन हे नाटिकेंत पळोवंचें.

'सत्यमेव जयते' हें आमचें राष्ट्रीय ब्रीद. अशोक चिन्हाचे सकयल आमकां तें नित्य झळकता. पूण आयची परिस्थिती पळयल्यार 'असत्यमेव जयते' अशें दुर्दैवान आनी खेदान म्हणचें पडटा. अशोकांतलें 'अ' वचून 'सत्य' ह्या उतराचे पयलीं उबें रावलां आनी 'शोक' करप सामान्य देशवासियांचे कपलांत आयलां.

महात्मा गांधीजींच्या त्या तीन खेत्यांच्या मुर्तींच्या प्रतिकाचो लेखकान वेवस्थित नाटकांतलीं पात्रां म्हूण उपेग केला. हे नाटिकेचें कथानक चड विस्तारांन बरोवपाची म्हाका गरज दिसना. पात्रांवरवीं व्यक्त जाल्ल्या नाटककाराच्या उतरांनीच हें सांगप चड योग्य जातलें. एक सामान्य, सादो भोळो भारतीय नागरीक आनी गांधीजीली तीं फामाद माकडां हांचे मदले हे सुरवातीचे संवाद.

सामान्य मनीस :- ...भारत म्हजो देस. सगळे भारतीय म्हजे भयण-भाव. हांव म्हज्या देसाचो मोग करतां. तांच्या गिरेस्त आनी भोवरूपी दायजाचो हांव अभिमान बाळगितां. ..त्या दायजाक सोबशी हांवें चलणूक दवरची हेखातीर हांव

सदांकाळ पोटतिडकेन वावुरतलों...म्हजे आवय-बापूय, गुरूजन आनी जाण्टेले हांकां हांव सदांच भोवमान दितलों आनी सगल्यांकडेन बरेपणान चलतलों....तांची खुशालकाय आनी उदरगत हातूंतच म्हजें सूख आसपावता.

(माकड व्हडल्या व्हडल्यान हांसतात)

माकड १ :- सामान्य मनशा, कसलो सोपूत घेता?

सा. मनीस :- कसलो म्हळ्यार? तुमकां म्हजी भास कळना?

मा. १,२,३:- आमकां सगल्यो भासो येतात. आमी २२ भासो जाणांत. तूं मात एकूच 'भास' जाणां.

सा. मनीसः- एकूच भास?

मा. २:- हय. मनीसपणाची.

सा. मनीस :- आयज तीच गरजेची आसा.

मा. १ :- ना. आशिल्ली.

सा. मनीस :- आशिल्ली म्हळ्यार?

मा. २. :- आशिल्ली म्हळ्यार आतां ना.

सा. मनीस :- तुमी चुकतात.

मा. ३ :- ना. आमी चुकनांत. कारण तुजी भास आतां कोणाकच कळना.

सा. मनीस :- कित्यावयल्यान म्हणटात तुमी? मनीस आजून जिवो आसा. ताका ही भास कळुंकच जाय.

मा. २ :- मनीस जिवो आसा रे. पूण तो जियता तें ताचें खरें जिणें आसा व्हय?

मा. ३ :- मनीस जिवो आसलो म्हण ताच्यांत कितें मनीसपण आसताच अशें ना.

सा. मनीस :- पूण तांचे मुखार तुमी येदे व्हड आदर्श आसात ते?

मा. १/२/३ :- आमी?

सा. मनीस :- हय. तुमी. येदे व्हड आदर्श. आयज मेरेन हांवें आनी म्हज्या सगळ्या भयण-भावांनी तुमकां आदर्श मानल्यात. आमच्या फुडाराचे जिणेचो हारसो मानला.

आतां नाटिकेचे अखेरचे काय संवाद

मा. १/२/३ :- पयलीं आमचें आयक आनी तूं मागीर थाराय...

सा. मनीस :- सांगात.

मा. १ :- सामान्या, आमी जंय जंय हात दवरलो, तो तुवें आदर्श मानलो. हांवें वायट पळोवंचें न्हय म्हण म्हज्या दोळ्यार हात दवरलो. तुवेंनूय दवरलो.

मा. २ :- हांवें वायट आयकुचें न्हय म्हण कान धांपले, तुवेंनूय धांपले.

मा. ३ :- हांवें वायट उलोवंचें न्हय म्हण तोंड धांपलें, तुवेंनूय धांपलें.

मा. १ :- आतां मेकळें उरलें तुजें नाक. ह्या अन्याय-अत्याचाराची घाण तुज्या नाकांत शिरत आसा.

सा. मनीस :- ती घाण म्हाका सोंसना.

मा. १/२/३ :- देखुनूच म्हणटां.... तुजें नाक धांप.. संवसारांतल्यो ह्यो गजाली-घडणुको अश्योच चालू उरतल्यो... आरे सभाग्या, ह्या संवसाराची रीत आनी फुडार आमकांच कित्याक... हजारांनी वर्सां पयलीं संतांक लेगीत पयलीच कळिल्ली. देखून तांणीं पयलींच सांगून दवरलां...

पुण्यवंत ते गेले पाताळी,
दरिद्री ते भाग्यवंत झाले,
चोरट्यांचा बहुमान वाढविला,
सज्जनांचा झाला बहू छळ...

मा. २ :- सामान्य मनशा, आमचें दुसरें रूप तुवें आयज मेरेन पळयलें तें अज्ञानान. पूण तूं आतां जाणकार जाला... हें अशेंच घडत रावतलें... हें चलता तें अशेंच चलूं दी... फकत तुजें नाक धांपून धर.

नाटककार उल्हास नायकान सुंदर तरेन साक्षात महात्मा गांधीजीची 'चूक' हांगा दाखोवन दिल्या. गांधीजीन खरें म्हळ्यार चार माकडां घेवपाचीं. चवथें माकड नाक दामून धरिल्लें!

मा. १ :- सभाग्या, आमकां तुजी काकुळट येता खरी, पुणून विधिलिखीत वेगळेंच आसा, देखून सांगतां... इतलो तेंप तूं देसाच्या बऱ्याचो सोपूत घेतालो आनी आमी तुका वांगड दिताले... पुणून तो कोणाक मानवलोना. देखून तो आतां मुळाव्या शिक्षणांतल्यानच काडून उडयलो.... सभाग्या .... आतां आमचें फावलां... आतां आमी सोपूत घेतले. आनी तूं आमकां वांगड दितलो...घे सोपूत... आमच्या सांगाताक.... घे सामान्या, घे, सोपूत घे...

(ताचे भोंवतणी तिगूय फेरो धरतात... मदेकात तो सामान्य मनीस नाक

चिमटेंत धरून घुस्मट्टा...)

मा. २ :- हो आमचो देस... सगळे देशी आमचीं हांयसां. आमी आमच्या देसाचो दुस्वास करतात... ताच्या गिरेस्त आनी भोवरूपी दायजाची, धन-दौल्तीची... भांडवलाची.... येणावळीची आमी आस धरतात... सुवार्थ सांबाळटात.

मा. ३ :- ह्या सुवार्थाक सोबसारकी चलणूक, वागणूक उरची हे खातीर आमी सदां सर्वकाळ पोटतिडकेन वावुरतले... आमचे आवय-बापूय, गुरूजन आनी जाण्टेले हांचो आमी सदांच दुस्वास करतले आनी सगळ्यांकडेन आपसुवार्थान पळयतले...

मा. १ :- तांचें घट्टण आनी अभरगत हातुंतूच आमचें सूख आस्पावता. आमचो देस आनी आमचे देसभाव हांच्या घट्टणाक निश्ठेन वावुरपाचो आमी सोपूत घेतात...

उल्हासाचीं कांय नाटकां हांवें कला अकादमीच्या वर्सुकी स्पर्धांनी पळयल्यांत. फावोशें मार्गदर्शन एखाद्या स्वतंत्र प्रज्ञेच्या दिग्दर्शकाकडल्यान मेळत जाल्यार तागेलीं नाटकां आनीकूय फुलूं येतात अशें म्हाका केन्ना केन्ना जाणवलां.

हे प्रस्तावनेच्या निमतान ह्या नाटककाराक आशिर्वाद दितना म्हाका आनंद जाता. ह्यो नाटिका वाचून म्हज्यो अपेक्षा उल्हासान वाडयल्यात. वाचप्यांचोय असोच अणभव आसतलो अशी आस बाळगूं येता. ताच्या नाटिकांचे चडांत चड प्रयोग जावंचे हेच आवंडे.

राय, सांश्ट — **प्रकाश थळी**

२६/९/०४

# मनोगत

नमस्कार,

श्री गणरायाक वंदन करून

श्री शारदेच्या चरणाकडेन नतमस्तक जावन

आनी रंगदेवतेक नमन करून

हांव,

तुमचे मुखार दवरतां,

चार विंगड विंगड विशयांवयल्या एकांकी चो संग्रह

'चतुर्विध'

'चतुर्विध' तुमचे मुखार येता तें साबार जाणांच्या कश्टांवरवीं, मायेवरवीं.

जल्मदात्या मायेस्त आई-दादा सावन आपलेपरीन बरे संस्कार घालून म्हाका 'असो' घडोवपी म्हजो भाऊ आनंद, भाव विनय, भयण सुरत, आदर्श गुणी साहित्यीक भौ. तुकारामबाब शेट, म्हजे आदर्श शिक्षक, गुरू नरूसर भौ. नरेंद्र केळेकार, कोंकणी चळवळींतल्या वत-पावसांत लेगीत नेमान म्हज्यावांगडा रावून म्हाका उजू मार्ग दाखोवपी म्हाड्डोळचे कवी दि. ना. नायक,

आवय भाशेंतल्यान बरप करतना म्हज्या जिवितांतलें तांचे योगदान, म्हजेविशींची तांची तळमळ... हीच म्हजी प्रेरणा.

हीच प्रेरणा म्हजे कल्पनाशक्तीतले एक एक विचार उतरांच्या साच्यांतल्यान साहित्य निर्मणेच्या वळेसरांत गुंथूंक लागली. कोणाक म्हज्यांतले निबंधकाराचे गूण दिसले, कोणाक म्हज्यांतले कथाकाराचे गूण दिसले जाल्यार कोणाक हांव कवी सो दिसूंक लागलों.. देखुनच मेळिल्ल्या स्फुर्तीचेर .. सर्गेस्त दादाचीं उतरां काळजांत जागयत... बरयत रावलों.

नामनेचे रंगकर्मी भौ. प्रकाशबाब थळी हाणी बसयल्लीं रंगमाचयेवेलीं नाटकां पळोवन तातूंतल्यान उर्बा मेळयत एकलव्यावरी म्हजे यत्न चलताले.. आनी पोसवण

मेळ्ळी ती वळख - पाळख नासतनाय भौ. दत्ता श्री. नायक हाणीं बरयल्ल्या उर्बा दिवपी चिटयेंतल्या मोलादीक उतरांतल्यान.

"सर, तुमी बरयात... आमी तें सादर करूयाच..." अशा उतरांतल्यान उर्बा दिवपी विद्यार्थी दर्शेतले तरणाटे सृजनशील, अभ्यासू, परिपक्वतायेचो भास घडोवपी कलाकार सुरज तुळशिदास गावणेकार, रंगमाची मांडावळ, रंगवण, आवाजा येवजण ते उजवाडा येवजणे मेरेन सरांच्या (म्हज्या) एकांकीचो भार आपणाल्या भुंजार घेवन एकांकी जैतिवंत करपी मायेस्त गुणी कलाकार कृश्णा शिवराम नायक, आनी नामदेव विश्णू गावडे हांच्या यत्नांचेरच म्हजें 'चतुर्विध' घडत गेलें.

बरयल्ल्या बरपावळीक पुस्तकरूपान छापून हाडपाक गोंय कोंकणी अकादमीन 'पयलो चंवर' येवजणेखाला पालव दिलो आनी ती जापसालदारकी दिलीप बोरकार हाणी बिम्ब प्रकाशनाचेवतीन आपणाल्या भुंजार घेवन म्हज्या हातबरपाक पुस्तकाच्या रूपान आयज तुमच्या हातांत पावयलें. तांकां हांव कसो विसरूं? तांचे उपकाराचें वजें सदांच म्हजेर उरतलें.

'चतुर्विध' तुमच्या हातात भेटयतना आयज मेरेन ज्या ज्या मनशांचो कळटां-नकळटां पालव मेळ्ळा तांकां समेस्तांक हांव म्हज्या काळजांत सुवात दिवन इतलेंच म्हणटां,

'तुमकांच लागून म्हजें हें 'चतुर्विध' उजवाडाक येवंक पावलां. फुडारांत असोच तुमचो नेमान आदार मेळूं.'

- उल्हास यशवंत नायक

## मांडावळ

# हें अशेंच चलपाचें?

पयलो प्रयोग : २५ जानेर १९९७

थळ : वळवय कोंकणी अस्मिताय केंद्राची एकांकी सर्त.
(दुसरें इनाम)

दिग्दर्शन : उल्हास यशवंत नायक

संस्था : कोंकणी सेवा केंद्र, म्हाड्डोळ

हेर इनामां : सावईर्डे, कुंकळ्ये, कुळें, वाडी, कुर्डी, आमोणे हांगासरल्या एकांकी सर्तींनी सोबार वयलीं इनामां.

[माचयेचे उजवे वटेन गांवचें पेड वा भौशीक बसकेची सुवात, दावे वटेन एका खोपीचें पाखें ... हातुंतल्यो कांय वस्तू बदलून तीच खोप आका आनी विठू गवंड्याची अशी दाखोवची... माचयेचे फाटले वटेन गांवचो मुखेल य़ेरादारीचो मार्ग-पाटो... पड्डो उगडटा तेन्ना उजवाडाच्या स्पॉटांत निवेदक...]

निवेदक : नमस्कार, म्हाका निरूपायान तुमचे मुखार येवचेंच पडलें. कित्याक तर मनीस सोंसून सोंसून कितले मेरेन सोंसतोलो? घडये तुमी म्हणूंक शकता, मनशान दूख सोंसलेबगर सूख ताच्या वाट्याक येना, पुणून जो वाठार म्हज्या दोळ्यांमुखार तळमळ्ळा, अन्यायाच्या चेंपणापोंदा घुस्मटमारान दीस काडटा त्या वाठाराची परिस्थिती म्हाका सवस्तकायेंत बसूंक दिना. हांव आजूनय त्या वाठाराच्या मोने व्यथेंत घुस्पलां, तुमी म्हणटले अशें घडलें तरी कितें त्या वाठारांत? .. कांय जाणांचे नदरेन तें कांयच न्हय. पुणून, म्हाका दिसता ल्हान ल्हान गजालीच मनशाक चड पोखरितात. तर ह्या वाठारासंबंदी तुमकां थोडीशी वळख दितां. तसो हो वाडो शेताधडेर आसा. ह्या वाड्यार चडश्यो खोपीच आसात. गरीब परिस्थितीक लागून ते व्हड घरां बांदूक शकनांत. कांय जाणांनी आतां आपली आस्पत पळोवन खोपीच्या कवड्यां भितरल्यान पारे उबारिल्ले आसात. शेतांत मजगती एक पाटो आसा. हो पाटो मुखेल येरादारिचो. तसो हो पाटो बरोच लांब. ह्या पाट्याचीं तुंबां पयलींच पुरवल्यांत, ताका लागून चड

पावसांत पुराय शेत उदकान भरता आनी उरिल्लें सगळें उदक शेताचे धडेवेल्यान वाड्यार शिरून लोकांच्या खोपीनी-घरांनी खेळटा. तांकां जिणें नाका करून सोडटा. हुंवार येतकच खोपी मोडटाल्यो तर कांय जाणांची पांखीं लेगीत व्हावन गेल्यांत... पुणून, ह्या लोकांची वासपूस कोणूच करिनांत. गांवची पंचायत तांकां दुसरो जागो दिना. कायद्या आड घरां बांदल्यार आमी तीं मोडून उडयतले अशें सांगतात. लोकांनी खूब उपाय केले पूण सगळे निरफळ. आनी दर वर्सा अशेंच घडटा. लोक आपलो पावंडो वळखून सगळें सोंसतात. पुणून वाड्यार सात-आठ वर्सां पयलीं रावूंक आयल्ल्या गवंड्याक मात हें मानव नाशिल्लें. विठू गवंड्याक वाड्यान एक बेबदो थारायल्लो. दिसभर काम करून रातचो घरा येतकच विठू गवंडो वाड्यावयल्या लोकांच्या थोमण्यांनी अस्ताव्यस्त जातालो. ताच्या काळजाचे घाये उसवताले. ताचें चित्त थाऱ्यार उरनाशिल्लें आनी तो यादींच्या मोडांत घुस्पून आपल्या काळजाच्या घायावयली खवळी काडून निण्णळत रावतालो...

[निवेदका वयलो उजवाड पालवता.. खोपीचेर उजवाड. उजवाडांत विठू गवंडो आपलेंच तनरेंत. उल्यता.]

विठू : तेदेवेळार हांयेन सांगलेलें, ... पाटो मोडून उडोवया म्हूण... पूण म्हाजें कोणें कानामनार घेतलेंच ना. हांव बेबदो... हांव पिता रे, पूण.... तुमच्या सारकिल्लो मनीसूच न्हू? ... म्हाज्या दुखांत तुमी वांटेकार जायना जाल्यार जाता पुणून तुमच्या दुखांत हांव वांटेकार जातलों.... आरे, हांव बेबदो मरे...? हांवय 'हय' म्हणटां... पूण तुमी केन्नाच हें बेबदेपण आपणावक कितें घडलें, कशें घडलें तें केन्नाच इचारला हय रे? कोणेनूच म्हाजी चवकशी केल्या? आनी तुमी करचीय अशी हांव आशा धरिना... पुणून एक मतींत दवरात...... खयचोय मनीस जावं... तो परिस्थितीचो बंदो आसता. परिस्थितींतल्यान तो कश्यो बुचकळ्यो खायत हें सांगू येना...

तातुंतलोच हांव एक... म्हाका आतां कोण ना रे.... जीं आशिल्लीं आवय-बापूय तीं देवाक जाय पडलीं... म्हाज्या ल्हानपणातूच तीं मिनांत तळपां निखळायतना एका दिसा तळपापोंदा चिड्डून सोंपलीं.... आनी हांव निराधार जालों. मिनांतूच वावर करतना कोणेतरी चिरे बसोवपाचें हें काम शिकयलें आनी हांव.... विठू गवंडो जालों.... तुमी म्हाका बेबदो म्हणटा मरे? म्हणात.. म्हाका तेचें कांय पडूना रे... आनी, म्हाका कितें घरां ना रे?... कितलीं बांदून उबीं केल्यांत मरे...

[बडबडत आसतना काळोख. उपरांत माचयेर उजवाडाचो स्पॉट. स्पॉटांत पेडार लोक बसून उलयतात.]

रामा : ..पुणून हांव म्हणटां, आमी कितले मेरेन सोंसपाचें?
विश्णू : आमी मरसर.
रामा : आमच्या भुरग्या बळांचें कितेंय तरी चींत मरे इश्णू.
विश्णू : आमी आनी आतां कितें करपाचें उल्लां?..सगळ्यांक बरोवन जालें... पंचायतींत हजार पावटी मारल्यो... कितें उपेग जाला व्हय?
गोपलो : म्हाका दिसता आमी निवडून दिल्लो मनीस तेंचो न्हू.
रामा : तेंचो न्हू? कितें उलयता रे तूं गोपल्या....एकमेका वांगडा भोंवतना हायेन कितल्याकडेन पळयलां तेका.
विश्णू : हय रे रामा. तेकाच राजकारण म्हणटात... एकमेका वांगडा भोंवप, खावप-जेवप आनी आमचेमुखार एकमेकांचे तासप. नाजाल्यार आमचीं मतां?
रामा : मोठे चांडाळ मरे. न्हू?
गिरी : पूण राव रे. पयर हांव म्हागेल्या चेड्याक पंचायतींतल्यान एक दाखलो म्हूण हाडूंक गेल्लों... तेन्ना तो रे थंय बरोवपाक आसता तो.. तेणे मरे म्हाजेकडल्यान पांच-स वर्सांची लायटी पटी घेतल्या मरे.... ही कितें भानगड?

विंश्णू : लायटी पटी? ... आनी तुजेकडल्यान? ... तीय बी फाटल्या पांच-स वर्सां पयलींची. आमकां बाबा लायटी खंय आसा? आमचे पेत्रोला दिवे. लायटीची पटी आमकां कित्याक लागू जातली तर ती?

गिरी : वयल्यान विचारल्यार ... गुरगुरोन किते सांगता जाणां? तुमच्या पाट्याक लायटी ना?... त्या उजवाडांत तुमी चलनांत?

विश्णू : आरे पूण, तुयें सांगपाचें न्हू... पाट्यार लायटीच पेटनांत म्हूण.... वर्साक केन्ना तरी एकदां पेटयतात चवथ केल्लेबशेन.

गिरी : सांगलें न्हू रे... पूण ती जाणवाय आयकता?

रामा : सामकेच फालयाद मरे... कसल्या जातीचे हे लोक म्हूण कळना. मात्तूय चिंतप म्हणटा तें ना... मेळटा म्हूण खातात... पचत मरे तेंका हें गोपल्या?

गोपलो : भायन्यो जाव एकसारक्यो... आनी पांच रुपया तरी ते? एकदम पन्नास आनी धा दिल्यात... वयल्यान बरोवन दिल्ल्या दाखल्याचे दोन घेतल्यात.

दादी : किते करूया? हां...! कितेंय करतलों जाल्यार हातूच उबारना. आनी हात उबारलो जाल्यार फाल्यां ही जागा सोडूंक फर्मान येतलें. मागीर इतलीं वर्सां सोशिकताय सांबाळिल्ल्याचो कांयच उपेग जावपाचो ना... घरां-दारां सोडून भुरग्यां-बाळांक घेवन पयस भीक मागप्यांबशेन भोंवचें पडटलें... हे तरास सोसपाक म्हाज्या भुरग्यां-बाळांक जमचें ना रे... बाबडीं आतांच दोन उतरां शिकूंक लागल्यांत... फुडारांत कितेंय आस्त सांबाळपाची पोरांकडल्यान..

विश्णू : भुरग्यां-बाळांक लागूनच हांवय अडटां न्हू रे? नाजाल्यार, केन्ना हेंचें सगळ्यांचें रगत घोटला..

दादी : आमचीच वेळ फाल्त म्हणपाची.

गोपलो : हांव म्हणटां हेर गांवांनी ते सगळें करतात खंय मरे. आनी आमच्याच गांवांत कितेंय करपाक कसली पिडा मारल्या तेंका? ... उदकाचो थेंब ना... लायट ना... कसली.. कसलीच म्हूण उदरगत ना. सगळी अभरगत मरे ही रामा.

रामा : हय. हय. ... गरिबांच्या घरांनी लायटी म्हणटात जाल्यार आमच्या

घरांनी लायटी कित्याक घालिना? चोर, खंयचे...

गोपलो : आतां इलेसांवां लागीं येयलीं न्हू? आतां येतले आनी भाशणां ठोकून ठोकून मतां भीक मागतले. येवनी तेंका. सारकी घालुया भीक.

रामा : करूया?... करूया जाल्यार सांग. घालुया मोडून एक-एकल्याक?

दादी : आरे पापयांनो, कितें येवजिलां तुमी हें? ... सरकारान कायदो काडला तातूंत आमकां मतां दिवंकूच जाय. आमचीं मतां दवरून आमी करतले तरी कितें? सांगात..? आनी तुमी तेंकां मोडून घातले जाल्यार तेंच्या जाग्यार येवपी दुसरो मनीस ह्या गांवची उदरगत करतलो अशें तुमकां दिसता?.... तुमी चुकतात.

गोपलो : ना दादी, तुकाच लागोन आमी हें सगळें सोंसतात... आमकां वोगी रावचें पडटा.

रामा : अशें केल्यार आमी चुकतात आनी आमचेर येदे व्हड अन्याय करतात तेन्ना मात ते चुकनांत... चुकनांत ते?

दादी : बरें आसा.. तुमी मोडून घालतात मरे तेंकां... घालात मोडून... पूण तेंकां मोडून घालचे पयलीं वाड्यावयल्या खोपी-खोपीनी नदर मारून तेंची वेवस्था पयलीं करात... तुमी यमुनाची जीण पळयल्या... तेगेलीं शेणाथाप्यावरी आशिल्लीं ताची भुरगीं पळयात.... कशीं तळमळटात. ह्या वाड्याचें बरें करपाक म्हण तुमी जर तेंकां मोडून घालशात जाल्यार फाल्यां हो जागो सोडून वयचें पडटलें.... तेदेवेळार यमुना खंय वयतलें?.... विचार करात... तुमी तरणाटे... खंयूय वयशात.. त्या गोकळाक पळयात... तेगेल्या वयार येयल्ल्या चेडवाक घेवन तें कितें लोकाल्या दारांत भीक मागत भोंवतलें? हांगासर आसा म्हूण कितेंयतरी किल्लोवन खाता... आतां घरादारांक रे जागे खंय आसात? .... आरे ते दोंगर लेगीत आपले म्हणोन हे पयशेकार तेंचीं कागदां दाखयतात.. अशेवेळार आमी खंय रावपाचें? ... देवान आमकां फावो केल्ल्या ह्याच कोंडांत आमी लोळपाचें.

रामा : त्याखातीर म्हणटां हांव... आमी कितेंयतरी करूंकच जायें.

दादी : तरी त्योच गजाली पुता... आरे चार पुस्तकां शिकलेल्यांक हारोवंक आमची रे बुद्ध खंय? ... आमची बुद्ध ही पळय. (धोंपरात

दाखयता.)… हांगासर.

[विठू गवंडो आपलेच तनरेंत येतना दादीक उलो मारता आनी मुखार वता]

विश्णू : येयलो हो बेबदो… आयज बरो आसा. लकबी ना.

रामा : लकना? पळय रे… सोऱ्याबगर विठू गवंडो आसा?

विठू : कोण रे ऽऽ तो? कोण उलयलो तो? मेर्दा, तुवें दिल्लो रे म्हाका? काय तुज्या बापायन?

दादी : ए… ए… तूं तेका तोंड घालूं नाका हां.. तो पियेला. मागीर चड जातलें तुमचें.

विठू : पळय, पळय कसो वोग्गी पडलो तो! फकत उलोवंचें म्हण जाणां पचपच करून… अक्कल आसा तुमकां? सकल पाट्यावयल्यान उदक व्हांवता. खोपी पळयात कश्यो बुडटात त्यो. कोण मरता तो मरता थंय, उरता तो उरता. तेंका पळोवं नाकात. हांव एक सवाय मेळ्ळां तुमकां. म्हणात कितेंय म्हणात… घेता तुमचें हांव…. दळडिरे, हलकट खंयचे.

रामा : ए ऽऽ हलकटा, तुज्या पोटांत सोऱ्याची गर्मी आसा म्हुणोन तूं उलयता.

विठू : तोंड सांबाळून उलय हां!

रामा : काल पयर येयला आनी आमकां सांगता शाणेपणां, आकाक वचून सांग रे तीं.

विठू : हे…हे… रामा, तुयें पयलीं गाळ सवली म्हाका… पळय.

दादी : विठू, विठू तूं मातसो चल पळोवया हांगासरल्यान. बेठोच बोवाळ घालू नाका..

विठू : तो म्हाका गाळी कित्याक सवता तर… आनी रामा, तूं… तूं म्हाका गाळ सवता? तूं रामा…?

रामा : फटिंगा, तूंच म्हाका गाळ सवता आनी वेल्यान म्हाजेवांगडा झगडटा… राव तुका सारकेंच दाखयतां.

[विठूच्या आंगार धांवन वता. दोगांयची लटाफट.

थंयच काळोख. माचयेर उजवाडाचो स्पॉट. स्पॉटात विठू आपले खोपींत एकलोच आपलेभितर अस्वस्थ जावन उलयता...]

विठू : म्हाका बेबदो म्हणून तुमचो जीव शांत जाता मरे... तशें जाल्यार म्हणात. जाय तितले म्हणात. पूण हें विठू गवंड्याचें मन तुमकां केन्नाच कळपाचें ना रे. तुमी कपनखायरे. बरें लेगीत सांगपाक गेल्यार गची आवुळपी. तुमच्यो दरेक करण्यो म्हाज्या काळजार उदेल्ल्यो आसात. तुमकां त्यो दिसपाच्यो ना. कित्याक? कित्याक तुमकां काळीजूच ना समजुपाक.

कितलो म्हूण बडोवचो रे म्हाकां? त्या दिसाचो मार, आयजूय म्हाका येवजता. हांव म्हणटां, म्हाजें आनी तुमचें पटना मरे, मागीर तुमी म्हाज्या फाटीक कित्याक लागतात? हांवूंच वायट मरे? हांवूंच वयतां तोंड घेवन खंयच्या तरी फोंडांत. पूण, पाड पडलेलें हें मन तुमकां अशे अवस्थेंत पळोवन दळ्ळ जाता. ते खातीर तुमी कितलोय बडयलो जाल्यार लेगीत दुसरे दिसा नाककातरो सो तुमकां हटकितां... मात एक, तुमकां त्रास दिवपी त्या चोरांक मात हांव केन्नाच सोडपाचो ना. आरे चोरांनो, तुमी कितें समजल्यात, तुमचीं उतरां आमी विसरले म्हूण. हं... तीं आयजय आमच्या काळजांत उदकार उफेल्ल्या बशेन उफेत आसात... शेताखातीर साकव बांदपाचे आमचे मागणेक, मतां वेळार तुमी आश्वासना दिवन गेल्ले तीं आश्वासनां खंयच्या फोंडांत गेलीं? तुमकां हांव कसोच, वोगी रावपाचो ना.... आतां परतून, इलेसांवां लागीं पावल्यांत....आतां येतले तुमी परतून. 'बाबा रे' 'आवय गे' 'मावशे गे' करीत. येयात तुमी. पळयतां हांव. कसोच वोगी रावपाचो ना. ना, रावचो.... तुमी... आयकयात तेंगेलें... हांव आयकुपाचो ना.

[काळोख. उपरांत माचयेर उजवाडाच्या स्पॉटांत.. बसकेचो देखाव. बसकेची तयारी चल्ल्या. इतल्यांत लोक चवकशी करता आसतनाच कार्यकर्तो येता.]

कार्यकर्तो : भावानो, आतांमेरेन तुमी धीर धरला तसो आनीक मातसो धीर धरून रावचें. आमचे आमदार सायब आनी तांचे सांगाती हांगासर येत आसात. ते हांगासर पावतकच रोकडीच मिटींग सुरू करूया...

एकलो : (धांवत येत) पावले रे पावले.. सगळे बसून घेयात...

(मर्दींच बोवाळ सुरू जाता.)

कार्यकर्तो : आतां रोकडीच मिटींग सुरू जाता... सगळ्यांनी शांतताय पाळची.

[इतल्यांत आमदार कार्यकर्त्यांसयत प्रवेश करता.. काय जाण्ट्यांक तो हटकिता.. आनी हातानच बरें आसा मू? अशें विचारता. ]
करूया न्हय मिटींगेक सुरवात....!

[आमदार 'हय' म्हणटा]

कार्यकर्तो : हे मिटींगेचो सुत्रधार ह्या नात्यान हांव तुमकां सगळ्यांक येवकार दिवन मिटींगेची सुरवात करतां. आयचे हे मिटींगेक आमकां वेंचणुकेच्या दिशेन मार्गदर्शन करपाक आमच्या गांवच्या भौमानेस्त आमदारांनी हांगा येवपाचे कश्ट घेतल्यात. तुमी दिल्ल्या आदाराचेरच ते फाटल्या वेंचणुकेंत वेंचून आयिल्ले.

(ताळयो)

विठू : आनी त्याच कळवळ्याचेर तेणें बंगले उबारले... बंगले.

कार्यकर्तो : कोण रे तो? ताका वोगी बसयात.

आमदार : नाका, नाका आसू दी. बसूनी ताका. म्हाका कोणाचीच मनां दुखोवपाचीं ना.

रामा : ह्या वेळार पर्थून निवडून येव नाका?

कार्यकर्तो : आमचे आमदार मनान खूब मोठे. तांकां अज्ञानी लोकांक दुखोवपाचें ना. म्हणूनच हो मनीस हांगासर दिसता. आनी कोणूय दुसरो आशिल्लो जाल्यार ताका येन्ना धांवडावन घालतलो आशिल्लो.

विठू : हय...हय... आमी अज्ञानी म्हुणोन तुमकां पांच वर्सां चोरूंक मेळ्ळें.

कार्यकर्तो : हें पळयात... हे मनशाक पिर्शे लागलां म्हूण हो कित्याकितेंय उलयता. ताच्यान आमच्या आमदार सायबाचें इल्लेंय सूख पळोवं

नज. आमच्या सायबान ह्या गांवाखातीर काडिल्ल्या व्हड कश्टांची ताका कांयच खबर ना.

विठू : निवडून येवन गेल्ल्या पांच वर्सांत हो गांवांत कितले खेपो येयला तें विचारात मरे तेंकां.

कार्यकर्तो : हांव आनीक तांचेविशीं तुमकां चड कांय सांगिना... तांकांच विनंती करतां ताणींच आमकां मार्गदर्शन करचें...

विठू : निवडून येयल्ल्याक एकदांय आमकां दर्शन दिवंक ना आनी आतां येयला मोठो मार्गदर्शन करपाक... तुगेलें मार्गदर्शनय नाका आनी दर्शनय नाका.

आमदार : (हात उबारून. सगळ्यांक शांत करता.) म्हज्या मोगाळ कार्यकर्त्यांनो, लोकांनो तुमकां म्हजो नमस्कार. तुमी म्हणटले हाच्या दोळ्यांत दुखां कित्याक? हो मनीस हांगा जें कितें उलयता ताचें म्हाका अजिबात वायट दिसूंक ना. तर, हांगा कांय विघ्नसंतोशी आनी म्हजे दुस्मान ह्या मनशासारक्या लोकांच्या अज्ञानाचो, गरिबीचो फायदो घेवन म्हजेर कसल्या कसलेय आरोप करतात. गरीब लोकांक तावेर्नांत व्हरून सोरो पियवतात आनीक अशें कित्याकितेंय उलोवपाक लायतात देखून म्हजें काळीज...

विठू : हांव मारून येवंक ना. आनी म्हाका कोणें घालूंकय ना. गरीब लोक एक वेळा उपाशी रावत पूण न्हय तें केन्नाच उलोवपाचे ना... आनी आमी गरीब जावपाक कारण कोण? ... तूंच मरे.. काळजाक दूख भोगता खंय... तुका काळीज आसा?

कार्यकर्तो : आरे, तुमी ताका पळयतात कितें? धांवडावन घालात हलकटाक. हळशीक शी मरे!

आमदार : आसूं.. आसूं.. ताका धांवडावन घालूं नाका... ताका चडिल्ली आसा... देवली की आपसूक वोगी पडटलो....

(कार्यकर्ते हांसतात.)

विठू : हांव पुराय शाबदीर आसा.

आमदार : हय, हय,... ह्या गांवांत तूंच एकलो शाबदीर आसा.

(सगळे हांसतात.)

विठू : हांसात... पोटभरून हांसात.. ह्या चोरालीं कर्तुपां तुमकां खबर ना. आनी तीं कळपाक तुमीच शाबदीर ना.

(लोक ताच्या आंगार वतात.)

आमदार : नाका,... ताका मारूं नाकात... तो कितें करता वा बडबडटा हें ताकाच खबर ना. आरे बाबा, तुजी तिडक हांव समजूंक शकतां, पूण तूं कितें उलयता तें हांच्या सात पिळग्यांक कळपाचें ना. तुमच्या गांवांत हाचे सारकिल्लो मनीस जल्माक आयला हें तुमचें भाग्यूच (लोक परतून हांसतात.) इतिहासाचो दाखलो घेत जाल्यार शांतीचे दूत म्हूण नामना जोडिल्ल्या मोठमोठ्या मनशांक लेगीत एकवेळा तरी अश्या प्रसंगांक तोंड दिवंचें पडलां. पूण म्हाका एका लोकांच्या प्रतिनिधीक समाजसेवेचें व्रत घेवन गरिबाखातीर वावुरपी मनशाक राग येवंक उपकारना... ह्या गांवच्या एकान एक मनशाक हांव आपलोच मानतां... समाजसेवेचे वाटेर असले कांटे आनी हांचेफाटल्यान आशिल्ले खुंटे वाटेर उबे रावतलेच... पूण, म्हाका ह्या कांट्यातल्यानूच फुलां फुलोवपाचीं आसात... (लोक ताळयो मारतात.) तर म्हाका तुमी फाटले वेंचणुकेंत वेंचून हाडलो तेन्ना म्हजे मुखार एक व्हडलें आव्हानूच उबें आशिल्लें. ह्या गांवांत खूबशे लोक अडाणी आशिल्ले आनी (विठूक पळयत) आजूनय आसात.

(लोक हांसतात)

विठू : हय हय...तूं व्हडली बुध्दिची खाण...तूं, तूं जळू मरे हेंका लागलेली.

आमदार : पुरो जाले आतां हाचें. आतां म्हजे हात उबारचे पयलीं ताका धांवडावन घालात. (लोक विठूक बसयतात.) हांवें सरकाराकडेन झगडून ह्या गांवांत शाळा हाडली. भुरग्यांक विद्येचें दार उकतें करून दिलें.

विठू : हय...तूं कोल्या बुध्दिचो मरे. हेंका नाडपाक तुका शिकोवंक जाय?

कार्यकर्तो : साम्की वातड व्हाण शी मरे...धांवडायात हाका नाजाल्यार घालात मोडून...मोडून घातलेबगर कशेंच जिरचें ना हागेलें.

[लोक विठूचेर तुटून पडटात. बडयतात. थंयच देखाव

फ्रिज. काळोख. उपरांत माचयेर उजवाड. स्पॉटांत विठू
आपले खोपीकडेन. आपलेच तनरेंत.]

विठू : आरे त्या चोराच्या एका उतराचेर तुमी म्हाका असो मारलो... आरे दळडिऱ्यांनो, तेंची कोल्याबुद्ध तुमकां केन्नाच कळपाची ना रे, केन्नाच कळपाची ना... ते फकत म्होवाळ उतरां उलोवन तुमकां भुलयता, चोरांनो.... हांगासरल्या लोकांचीं सुखदुखां तुमकां कळना रे.... मडसरेक घेवन बसल्या ती खुर्ची... ना. तुमकां तिचो मद मारला.... आनी तुमचें भरता न्हू आयतें... खूब मातल्यात तुमी... म्हाका कितेंय तरी करूंकच जायें...

[काळोख. पर्थून उजवाड. तीच खोप. कांय वस्तू बदलून.
आकाली अशी दाखयल्या. भायल्यान लवंग हातांत घेवन
विठू गवंडो आकाले खोपीसरीं येता.]

विठू : आका... ए आका? ... आसा हय गो घरांत?

आका : (खोपीचे कवडेभायर येत...) कोण रे? कोण थंय?

विठू : हांव गो तो.

आका : (सोऱ्याचो वास आयिल्ल्यान....) शी बाये! खंय आशिल्लो तूं इतलो वेळ?

विठू : बाबू न्हिदलो? बाबूक मातसो उठय पळोवया..

आका : बाबूक? कित्याक रे?

विठू : म्हाजें मातशें काम आसा तेजेकडेन..

आका : येदे रातीचें शें रे कसलें काम? (कांचवेत) कोण फाटीक बी लागू ना मरे? खरेंच सांग विठू, कितें जालां?

विठू : कांय ना गो आका... तूं उठय पळोवया तेका पयलीं.

आका : ना. पयलीं म्हाका कितें जालां तें सांग. तुका हे मठयेचो सोपूत आसा.

विठू : हें पळय, तूं म्हाजी तकली पिकार करूं नाका हां. तूं बेश्टेंच भियेता... उठय पळोवया बाबूक.

आका : (बाबूक भायल्यानूच उठोवपाक उलो मारता..) बाबू.. बाबू उठ रे, पळय.. भायर दादू येयला... मातसो उठ पळोवया.. किर्ते घडलां पळय तेचें. उठ रे.. बाबा.. शाण्या..

बाबू : (दोळे चोळीत भायर येता.) किर्ते आवय? किर्ते जालां दादुलें..?

विठू : कांय ना. पूण, मातसो बस हांगा.. तुका बरोवंक येता मरे..? म्हाजें किर्ते बरोवंक जाय..

बाबू : किर्ते तें? आनी येदे रातीचें शें? फाल्यां सकाळीं बरयल्यार जायना?

विठू : हें पळय बेश्टोच वेळ वगडाव नाका.. वच आनी कादेनाची एक फोल आनी पेन घेवन यो..

बाबू : हाडटां... हाडटां.. (बाबू भितर वता..)

विठू : जाणा मुगो आका... आयकता हय गो? हांव.. हांव आयज हो पाटो खण्टलों.. मोडटलों... हांव एकलोच. म्हाका तो मोडून उडोवंक कोणाची गरज ना.. हें लवंग पळयला मुगो.. ह्या लवंगान हांव तो खण्टलों.. तेचो परिणाम तुमकां फाल्यां दिश्टी पडटलो... ह्या गावकाऱ्यानी म्हाका बेबदो थारायला न्हू? पुणून आयज हो पाटो खणून विठू गवड्याचें कास्त तेंका दाखयतलों... खऱ्यांनीच दाखयतलों गो..

आका : विठू.. तू हो पाटो खण्टलो? .. नाका.. नाका.. हो मुखेल येरादारीचो पाटो खणप म्हळ्यार मोठें किर्म... नाका, तूं हे भानगडीत पडा नाका.. पावस वर्साक काय खिणापुरतो...

विठू : पावस कांय खिणापुरतोच येता.. पूण तुमकां तो पुराय नाडटा हें पळोव नज म्हाज्यान...तुमी, तुमी भिवकुटीं म्हुणोन अशीं. आका, तुमी तेंका भियोन सगळें सोंसता. आगो, हांव म्हणटां, तेंका कित्याक भियों जायें ... ते कोण देव? ...ते चोर मुगो... चोर खंयचे ..

आका : नाका विठू ... ते कोणूय जावं पुणून तूं हें किर्म करू नाका.

विठू : किर्म, किर्म .... किर्म. किर्म गेलें चुलींत... म्हाका तूं चड जाणवायो सांगू नाका. हांव ना जाल्यार हें लवग तुजे खोपीर पयलीं घालतलों. बाबू, किर्ते करता थंय? ...बरयता मरे... यो, हांगा बस... आनी बरय, .... राव. राव. ...पयलीं हांव किर्ते सांगता तें आयक आनी

मागीर बरय ... ही चीट हांगासरल्या आमदाराक आनी पंचायतीक. कित्याक तर आयज, ....हांव हो पाटो खण्टलों ... मोडून उडयतलों ...तितूंत बरोवपाचें की हांव हो पाटो हांगासरल्या लोकांवयले त्रास कमी जावपाक मोडटां ... दुसरी गजाल बरोवपाची ती ... फाल्यां ह्या पाटाक मोडला थंय तेणीं साकव बांदूकच जाय. तशें केल्यार ह्या वाड्यावयल्या लोकांक चड त्रास भोगचे पडचे ना. तशेंच जाणां मरे, ह्या पाट्याक साकव बांदल्यार हांगासरल्या शेतकारांक वर्साक दोन पिको काडूंक मेळटल्यो. लोक हुस्क्या मेकळे आनी सुखान रावतले ... तिसरी गजाल बरोवपाची ती ... तेंका जायते खेपो सांगून, बरोवन लेगीत तेणी आमचें कांयच मनार घेतलें ना. कानामनार घेतलें ना... आमकां काळखांतूच दवरले देखून आतां ह्या फुडें तेणी जर मोडलेले सुवातेर साकव बांदलो ना जाल्यार आमी सगळे कशेच वोगी रावचे ना. अशें विठू गवंडो म्हण्टा म्हणून बरय... आनी जाणां मरे बाबू ... म्हाका कोणेय मारलो बिरलो जाल्यार म्हाज्या फाटल्यान तुमी हें मुखार व्हरूंक जाय... आतां तोंडाक पळयत रावूं नाका. बरय ...कितें सवकास बरयता रे ... नाका, तूं सांगलां तें सगळें मागीर बरय... हांव आंगठो मारून वयतां. दी तें पेन आनी फोल... बरें तर गो आका, येता हांव.

आका : शी बाये! तुका आनीक कसो समजावं? ....सायबिणी माये, तूं तरी तेजे तकलेंत कितेंय तरी घाल गे.

बाबू : आवय....आवय... दादू एकलोच खण्टलो गे पाटो? ... हांवूंय वयतां गे तेज्या सांगाताक....

आका : थुमेकाल ? कितें उलयता रे पुता?

बाबू : आवय, म्हाकाय वोंचो दी गे तेच्या वांगडा.

आका : नाका रे पुता ... नाका, शाण्या तूं वचूं नाका...

(बाबू वचपाक आवयचो हात सोडटा.. तेचवेळार ताका घट धरीत...) नाका रे पुता.. म्हजो सोपूत आसा तुका.

[बाबू थंयच आडखळटा. आवयचेर नदर थीर. देखाव

फ्रिज. काळोख. फाटल्यान पाट्यार उजवाड. पावस आनी गडगडाचो आवाज. विठू गवंडो पाट्यार खणपाखातीर धडेंचो अदमास घेता. चड अंतर चलून गेल्या उपरांत.]

विठू : बरें जालें... हां . हरूच ही धड कोसळलेली आसा. हांगासरूच मोडपाक सुरवात केल्यार बरें...

[तो खण्टा. पाट्याचें एक एक कॅप लवंगान निखळायता. मर्दीच सुशेग घेता. पर्थून खण्टा. आनी खण्टां खण्टां मर्दीच.]

विठू : मातसो उल्ला... मागीर पुराय वयलें उदक सकल खळखळून वतलें... सगळे लोक त्रासांतल्यान सुटतले....

[खण्टां खण्टां... अचकीत लवंगाचो तोल वचून तो सकल उदकांत पडटा... आनी वयलें उदक सकल व्हडा नेटान खळखळून वता असो आवाज आयकूंक येता.. आवाज वाडटा तसो हळू हळू माचयेर काळोख. पाट्यार उजवाड... लोकांची गर्दी]

गोपलो : म्हाका दिसता, उदका नेटाक हो पाटो कोसळ्ळा जावंये.
रामा : आगे उदका नेटाक कोसळपाक हो कितें फुकफुकीत बांद रे?
विश्णू : शेर्त, खंयच्याय तरी पक्षाचें नाटक आसतलें.
रामा : तुका आनीक कितें पिशें लागलां रे. पक्षाक वांटो घेवंक हितुंत कितें राजकारण आसा?
विश्णू : राजकारण ना? आगे हितुंतच व्हडलें राजकारण...आयज हो पाटो मोडप. फाल्यां ये ले... मिर्टींग घेतले. म्हणटले, मतां दियात बांदून दितां पाटो.
रामा : मोटे मालकियांद मरे! न्हू?
गोपलो : राव रे. तशें जाल्यार तेणी हें फाटीं कित्याक केलें ना?

विश्णू : फार्टी तेंकां गरज नाशिल्ली दिसता. आतां मतदार संघ चड जाल्यात न्हू?

गोपलो : म्हाका त्या विठूचो दुबाव येता?

रामा : मेलो रे तो विठू करतलो. विठूचे गाणीत गू आसा?

गोपलो : तशे न्हू रे. पुणून पर्थून पर्थून तो आमकां फर्मायतालो न्हू रे.

रामा : तूं वोगी राव. विठू केन्ना बाटले शिवाय आसा? आमकां कितें फर्मायता तें सोऱ्यानेटार. सोऱ्यानेटार कितेंय उलोवंक सोपें...बरें मरे तुजें! विठूचो सो दुबाव घेतलो तुवें.

गोपलो : पुणून कितेंय सांग हां. हें आमकां आतां बऱ्याक पडटलें.

रामा : हय. हय. सामकें हट्टांत रावपाचें...साकव बांदून घेवपाचोच. नाजाल्यार आमची धडगत ना.

विश्णू : पुणून तेंकां समजायतलो कोण? मुखार कोण सरतलो?

गोपलो : आतां आमकां सांगपाक कितें? एकूण पाटो तर मोडलाच. आतां आमचे गचेक धरपी कोण ना. आमी फकत मागणी करपाची (बाबू धांवत पाट्यार येता आनी पाटो मोडला तो पळयता.)

रामा : तेणी हें किर्म आमचेर घातलें जाल्यार?

गोपलो : ना, ना. तशें जावंचें ना. पळोवया तरी...फार्टी विठून घातलो ना बोवाळ, ते मिर्टींगेक रे...

रामा : मागीर तूं आसा मरे तयार मुखार उलोवंक?

[एक ८-१० वर्सांचो भुरगो धावत पाट्यार येता... बाबुसरीं वचून.]

भुरगो : बाबू, ....बाबू जाणां मरे... हांव रे हांव.... थंय सकयल्ल्या भाटांत ....परसाकडेन म्हूणोन गेल्लों....थंय मरे ....तुमचो विठूदाद रे ...शेताधडेर चिखलांतूच आड पडला...हात लावन पळयल्यार सामको घट लागलो..चलात तेका पळयात...

[भुरग्याची उतरां आयकून सगळे आकांतात भुरग्यांवांगडा...भितर धावतात...आनी विठूचें मडें

आसता ते सुवातेर येतात. माचयेवेल्या उजवाडांत विठूचें मर्डे दिसता.]

बाबू : (धांवत येवन दादूक सासपिता) दादू, ..दादू तूं असो रे कसो आकांताक गावलो...दादू...दादू...(रडटा)

दादी : आरे बाबा, आतां असो रडूं नाका.जावपाचें तें जालें..पळय अशें करिनांत...वोगी राव...पळय रडूं नाका शाणो तो ...(भुरग्याक धांवडायता...) तूं चल रे...घरा...हांगा अशीं भुरगीं रावनात...

(भोंवतणचे गर्देत लोक उलयतात..)

विश्णू : रातीं गादयेर बरें मारिल्लें दिसता.

रामा : हांव नकळ तर...म्हाज्या हुजीर माल्लां मरे.

गोपलो : पूण हांव म्हणटां....सांबाळूंक जायना जाल्यार कित्याक पियेतात?

रामा : आरे रातीं ते थंय उलयताले...पाट्याच्यो गजाली...तें तणे आयकलां आनी येतना बोत्ल बी भरून घरा हाडल्या पिकासांव जिरोवंक..

दादी : बाब्बानो, हो सोरो कोणाक बऱ्याक पावयता?

बाबू : (अचकीत उलोवण्याची तिडक येवन.) ना. नाका अशें उलोवं नाकात. कितलें वायट उलयतात तुमी. तुमी जाण्टे मनीस. तुमकां सोबना अशें उलोवप. पळयात. पळयात तुमच्या जिवाकडेन कितल्या जतनायेन सांबाळ्ळो तो तुमचो जीव...ह्या पाट्यावयल्यान जावपी हे त्रास तुमी सोसले पूण केन्नाच हितुंतल्यान सुटका करून घेवपाचें तुमी येवजिलां?

रामा : ए..ए...कितें उलयता तूं हें? ....जाग्यार आसा मरे?

बाबू : हय...हय. हांव जाग्यारूच आसा. हांव पिसो जावंक ना वा दादुभशेन बेबदो न्हू...दादुविशीं तुमी जायतें वायट उलयले. उलयात...आनीक कितें वायट येतलें तेच्या वाट्याक? पुणून एक सांगतां...हो पाटो बेंश्टोच मोडूंक ना... तो.. तो विठूदादून मोडला...तुमच्याखातीर तेका हें कर्म करचें पडलें....आमचे वयलें अन्यायाचें वजें कमी करपाक...

रामा : तूं कितें सांगता तेचेर आमचो विश्वास ना.

बाबू : विश्वास ना जाल्यार ही चीट...चीट पळयात तेणे रातीं म्हाजेकडल्यान बरोवन घेतिल्ली....पाटो मोडपाक वचचे पयलीं... घेयात पळयात.

रामा : (चीट हातांत धरून) म्हाका कितें कळटा तितुंतलें...? आवय-बापायन वाचूंक - बरोवंक दोन उतरां शिकयलींच ना..तुमीच पळयात तें... (हेरांच्या हातांत चीट दितात. तेचवेळार भुरगो परतून धांवत येता.)

भुरगो : बाबू, आज्या, बाप्पा...पाट्यार पलतडी सरपंच आनी तो मंत्री गाडी घेवन येयला.. तें कितें करतात तें पळयात...

(सगळे परतून पाट्यार धांवतात....सगळ्यांत मुखार बाबू...)

बाबू : (विंगेत पळयत.) पळयात...सायबानो पळयात... सारको पळोवन घेयात... हो पाटो कसो मोडलो तो... इतलो तेंप गांवांत हुंवारांत लेगीत कोणूय मेल्यार तुमी येवंक ना. आनी आतां येयल्या न्हू... हो पाटो मोडला तो पळोवंक... पळयात... हो पाटो बेश्टोच कोसळुना... तो आमचेवयले त्रास कमी करपाक आमच्या विठूदादून मोडला... ह्या पाट्याक आतां पयलीं साकव बांदात आनी मागीरच हे वटेन येयात... ते बगर आमी तुमकां इकडें घेवंचे ना (सगळे ताका साथ दितात...) आमकां आतां साकव जाय म्हणल्यार जाय... आमी आतां वोगी बसचे ना... (वांगडचे लोक ताका पर्थून साथ दिता..) तुमकां फट दिसता जाल्यार ही विठूदादून बरयल्ली चीट पळयात... (जमनीवयले फातर काडून चिटींत तो घालता आनी पलतडीं शेवटीता.) आनी घेयात निर्णय... ह्या पाट्याक साकव बांदून दिलेबगर आमी आतां कशेच वोगी बसचे ना.

[सगळे गांवकार बाबू फाटल्यान आपणालो आवाज काडीत बाबूक साथ दितात.. तेंको दितात... देखाव फ्रिज... स्पॉट चालूच... वांगडाच,... मुखावयल्या निवेदकाचेर स्पॉट]

निवेदक : तिडकिचे इंगळे सगळ्यांचे कूडभर जळटाले. वाड्यार रावून वाड्यावयल्या लोकांवांगडा कोंत्रपण करपा बदलाक जिणेच्या उजु मार्गार कशें चलचें हें कितल्या सोपेपणान विठून दाखोवन दिलें पळयलें तुमी? विठू गवंड्यान, भोवतणच्या समाजान थारायल्ल्या एका बेबद्यान पाटो खणून, आपलें बरें-वायट चिंतीनासतना आपले तांकी प्रमाणे गांवचे उदरगतीची श्रीगणेशा घालून दिली. पूण विठू गवंड्याचे चिटीक मान दिवन हे राजकीय लोक ह्या वाटाराचेर उपकार करीत व्हय? काय आदल्यावरी ह्या वाटारांक हीं अरिश्टां सोंसचीच पडटलीं? हें अशेंच चलतलें काय विठू गवंड्यान घालून दिल्ल्या नवे श्रीगणेशान नवी निर्मिती जातली?

ही गजाल ह्या गांवापुरती घडल्या.. पळयतना आमकां तें अतीशें दिसता पुणून भावांनो-भयणींनो, तुमी हेर वाटारांनी पळयलां..? बाबड्या लोकांच्या सोंशिकतायेचो लाव घेवन हे राजकीय लोक वाळटे रूपान सामान्य मनशाची जीण पोखरीत आसा. सत्तेच्या माजाचे पास तांची गची आवळीत आसा. ह्या अन्यायाच्या राकेसाक लासपाक फकत एके किटीची गरज आसा... एकूच कीट पेटोवपाची गरज आसा.. मागीर तांचें होमखण आपसूक पेट्टलें... ही कीट कोणूय पेटयशात? घडये.. तुमी ह्याच गांवचे जाले जाल्यार ही कीट तुमी पेटयशात? .. उलयात... उलयात मूं.. म्हाका जाप दियात...

[इतल्यांत कांय जाण प्रेक्षकांतल्यान धावन वयर माचयेर येतात.]

कांय जाण : तूं नाटकां करता जाल्यार नाटकां कर... आमकां राजकारण शिकोवंक आयला? आमकां तुगेलें राजकारण शिकोवं नाका...
(निवेदकाक मारीत लोळयतात आनी थंयसावन धांव मारतात...)

निवेदक : (आशिल्लें-नाशिल्लें बळगें एकवटान) ..देवा... देवा.. हांकां बरी बुद्ध दी.. ते चुकतात... देवा... हें अशेंच चलपाचें?
(कोसळटा. देखाव थंयच फ्रिज. काळोख.)

**(एकांकी सोंपता)**

# अशांत उजो

पयलो प्रयोग : २२ माय २०००

थळ : वळवय कोंकणी अस्मिताय केंद्राची एकांकी सर्त. (पयलें इनाम)

दिग्दर्शन : उल्हास यशवंत नायक

संस्था : स्नेहमाची, म्हाड्डोळ

हेर इनामां : सावई्र्डे, वास्को, मडकय, नावेली-सालसेत एकांकी सर्तानीं साबार वयलीं इनामां.

[माचयेर उजवाड. उजवाडांत माचयेच्या दावे वटेन पलटणिचो तंबू, उजवेवटेन तळप. एक-दोन किरकोळ वनस्पत. फाटल्यान तोंफ, पयस दोंगरांची तेमकां चान्न्यात चकचकतना दिसतात. माचयेर चान्न्याच्या उजवाडांत धिरेंद्र गस्त घालता, विक्रम तळपा कुशीक आशिल्ल्या धगा कुशीक बसून धगाची उब घेता. जाल्यार तंबूंत मेजर आड पडिल्लो दिश्टी पडटा. निवेदन चालू आसा.]

निवेदक : कन्याकुमारीसावन हिमालयाच्या कुशींतल्या बर्फान माखिल्ल्या ह्या पर्वतांच्या तेमकांमेरेन फांकारलेली ही आमची मांयभूंय, देडशें वर्सांच्या बंदेपणांतल्यान मेकळी जावन सुजलाम सुफलाम जावंक सोदपी संवसारांत नेमान शांततायेचो प्रस्ताव मांडपी हे भारतभुंयेचेर परक्यांची वांकडी नदर वतली अशें सपनांत तरी दिशिल्लें व्हय? पूण ना...बुध्द आनी गांधी हांच्या ह्या शांतताप्रीय देशाचेर, मांयभुयेचेर चिनान आपली वांकडी नदर भोंवडायली आनी, फाटोफाट पाकिस्तानां मारकिल्या शेजारच्या सुवार्थी देशानय संद सादली. तीन वेळां हार पत्करूनय पाकिस्तानान कारगील वाठारांतल्यान परतो हावको उबो केलो. तेन्ना मात पुराय मांयभूंय खडबडून जागी जाली. विंगड विंगड राज्यांतल्या हेर भुंयपुतावरींच भुंयकांपान फाफशिल्ल्या लातूर जिल्ह्यांतल्यान, भीड म्हालांतल्यान लेगीत सुमार दोनशें तरणाटे

आपखोशयेन कारगिलाचे राखणेखातीर भायर सरले...शिमेचेर आमच्या झुजाऱ्यांनी हड्ड्याचीं चिलखतां केलीं. मांयभुंयेच्या स्वतंत्रतायेखातीर कारगील राखपाक स्वताच्या रगताचो तिबो करून स्वताच्याच हातांनी आपल्या कपलार उदेयलो. स्वताच्या जिविताची कयपंजी करून स्वतंत्रतायेची जोत तेवत दवरपाक, ते आयजय मांयभुंयेचे कुशींत रगत गोठेवपी शिंयांची पर्वा करनासतना, दोळ्यांत तेल घालून आमची राखण करीत आसात.

विक्रम : तुका हांव येदोळच्यान सांगतां, तूं मातसो दोळो लावन घे. पुणून तूं म्हजें कशेंच आयकना.

धिरेंद्र : आरे भावा, तूं म्हजी चिंता करूं नाका. आनी हें पळय, म्हज्या दोळ्यार आतां न्हीद येवपाची ना. त्या पाकिस्तान्यांनी म्हजी न्हीद केन्नाच पयस केल्या. आतां हे भुंयेवयल्यान जो मेरेन निमणो पाकिस्तानी धांवडावन वचचो ना तो मेरेन म्हाका न्हीद म्हण्टा ती येवपाचीच ना.

विक्रम : पुणून अचकीत कोणूय चाल करून आयलो जाल्यार, तितलोच नेट धरपाक...

धिरेंद्र : हं ! काल पयर झुंजामळार भितर सरला आनी म्हाका दुस्मानाआड कशें रावचें तें शिकयता! आरे, तुका खबर ना फाटल्या दिसांनी हांवें हांगासर त्या पडमुरांक कशे लोळयल्यात ते. चल, तूं न्हीद. भियेवं नाका. हांव जेन्ना गस्त घालतां तेन्ना तुका तशेंय हेरांक कसलोच भंय आसचो ना. चल, तूं मातसो आड पड.

[विक्रम धगाशेजराक बसता. धिरेंद्र गस्त घालता.
तंबूंत आड पडिल्लो मेजर तेचवेळार खांकता.]

धिरेंद्र : सर, चड त्रास जाता व्हय?

मेजर : ना. त्रास कसलो रे? धिरू, तुजो भाव विरेंद्र खंय गेलो? इतलो वेळ जालो दिसलोच ना.

धिरेंद्र : तो उदकाच्या सोदीक गेला. कित्याक सर? कितेंय जाय आशिल्लें तुमकां?

मेजर : ना. पूण तुजो भाव विरू फुड्यांत जाय जाय सो दिसता. तो फुड्यांत आसलो म्हण्टकच बरोच धीर येता.

धिरेंद्र : सर, ल्हानपणासावन तो तसोच सर. आई-बाबांची ताचेर खूब माया. सगळ्यांकच ताणे लळो लायला सर. तुमी जाणांत, भुरगेपणांत बाबान ताका बोकड्यो हाडून दिल्ल्यो. त्या बोकड्यांक तो दिसभर दोंगरार चरोवचो आनी जाय तितलें दूद पिवंचो. तेन्नाच्यान तो असो घटमूट. पूण, आमच्या विरूक तकली मात फाल्त, म्हळ्यार... हांगासरली (तकलेक बोट तेकोवन) लायट बेगीन पेटना. आतां तो उदकाच्या सोदीक गेला पूण वाटेर खंयीय आई-बाबाची याद आयली जाल्यार बोल्सांतलो फोटो काडून थंयच पळयत बसतलो.

मेजर : आरे, आवय-बापायची याद कोणाक जायना? संवसारातल्या सगळ्या आदाराचे पास जेन्ना तुट्टात न्हय तेन्ना मनीस फकत आपले आवयचे यादिचेरच जियेत आसता.

धिरेंद्र : तें खरें आसा सर. पुणून खंयच्याय वेळार, थळार याद आयल्यार अशे फोटो पळयत बसप योग्य न्हय? तो म्हळ्यार आमचो, साम्कोच बैल कसो.

मेजर : हं! बैल?... पुणून तुका शिंगां दिसनात मरे...
(दोगूय हांसतात. मळबात हॅलीकॉप्टराचो आवाज येता. तिगूय आपलीं तुबकां सांबाळीत शिट्टकसाणीन प्रतिहल्ल्याक तयार रावतात. पुणून उपरांत...)
आरे, हें तर आमचेंच हॅलिकॉप्टर. घडये तें आमचोच सोद घेता आसतलें. रावात हां...हांव ताका सिग्नल दितां...
(कुशीक सरून तंबूतल्यान सिग्नल हाडून ते तळपार रावून हॅलिकॉप्टरा वटेन दाखयत रावतां.)
गेलें तें. धिरेंद्र, विक्रम, ताणी म्हजें सिग्नल पळयलां काय कोण जाणां, हांव थंय वयले सुवातेर वचून तांकां कॉन्टेक्ट करूं येता जाल्यार

यत्न करतां. ओके?

धिरेंद्र : ओके सर! (मेजर वता.)

(धिरेंद्र गस्त घालता. तें करतनाच ताची नदर विक्रमाचेर पडटा. विक्रम चिंतेंत आशिल्लेवरीं...)

विक्रम, तूं मातसो रेस्ट घे. आमकां ही रातचीच विसव घेवंक मातशी संद मेळटा. चल, ....आरे कितें जालां? चल, न्हीद मातसो.

विक्रम : म्हाका न्हिदपाचें ना.

धिरेंद्र : कित्याक? न्हीद येना म्हण काय घरची याद येता? ...न्हय बायलेची बी?

विक्रम : हय. (गोंदळटा) ना...ना...पूण.

धिरेंद्र : आरे, असो आडखळटा कित्याक? अशो यादी येवप म्हळ्यार तातूंत लेगीत मजा आसता. तुका सांगतां. हांव जेन्ना आर्मीत जॉयन जालों तेन्ना हांव नवोच काजारी. घरा गेल्लेकडेन सुटयेंत आसतनाच हनिमुनाची तयारी करतालों, तेचवेळार म्हाका वायरलेस आयली आनी ज्या उर्जेंत म्हाका झुजामळार येवचें पडलें...हांव झुंजामळार आनी म्हजी बायल घराकडेन...झूंज चालू नाशिल्लें तेन्ना मन बेठेंच बेचैन जातालें...घरची याद येताली, दिसतालें उठचें आनी सरळ घरा वचचें... पुणून, एकदां दुस्मानाकडसून फारपेठ जाली की ताची परतून याद येयनाशिल्ली...मागीर आपसूक संवंय जाली...तुजें लग्न केन्ना जालें?

विक्रम : लग्न जावंक ना. पूण एंगेजमेंट जाला. थोड्याच दिसांनी लग्न जावपाचें आशिल्लें. इतल्यान हांगासर येवपाचो आपोवणो आयलो. हांवच नकळ आतां लग्न केन्ना जातलें तें!

धिरेंद्र : जातलें विक्रम. तुजें लग्न मुजरत जातलें. असो धीर सोडूं नाका आनी, ...तुज्या लग्नाक आमी व्हडा संख्येन हाजीर रावन तो सुवाळो मनयतले. विक्रम, तुवें फोटो बी हाडलाच आसतलो न्हय, आमच्या भाभीचो..? दाखय तरी मरे...

विक्रम : लग्नापयलीं फोटो कसो काडप? तें सोड...म्हाका सांग, आमचें हें

झूंज केन्ना सोंपतलें?

धिरेंद्र : (हांसून) तुजो प्रस्नूच विचित्र आसा. विक्रम, एकवेळ हांव केन्ना मरतलों हें सांगूंक येत पूण ह्या झुंजाचें हांव तुका कितें सांगू? आमच्या सरकाराची खबर तुका आसाच. ते आपले परीन वाटाघाटी करतातूच... झूंज मिटोवंक तांचे यत्न चालूच आसात. विक्रम, आमी एकच लक्षांत दवरपाक जाय तें म्हळ्यार, हें झूंज केन्नाय सोपूं, मात त्या पाकिस्तान्यांक आतां एक पावल लेगीत मुखार उडोवंक दिवपाचें ना.

विक्रम : म्हाका आतां वीट येवंक लागला त्या झुंजाचो. दीस-रात दुस्मानाची वाट पळयत अशें ताटकळंत रावप... रानातल्यान... वतांतल्यान... सड्यावेल्यान अशें उदकाबगर... फायरींग करपाक मुखेल्याची ऑर्डर येता काय म्हण ताची वाट पळयत अशें ताटकळत बसप... धड जियवपाकय येना आनी धड मरणय येना...हांगा अशें ताटकळत रावचे परस म्हाका पळून वचचें शें दिसता.

धिरेंद्र : मागीर हांगासर आयिल्लोच कित्याक?

विक्रम : तो वेळच तसो आशिल्लो. त्या मुर्दाड, गद्दार, पडमूर, विश्वासघातकी पाकिस्तान्यानी आमच्या भावाचे जे हाल अपेश्ठा करून ताचे जीव घेतले...मनीसपणाच्या धर्माचेर खोंट मारून जे परीन ताणी आमच्या भावांक मारले, कातरले, हुलपायले तें पळोवन खंयच्याय भुयपूत वांगी बसतलो आशिल्लो? क्रिकेट गेम खेळटना, ती मॅच आमी जिखून लेगीत टिव्हीचेर आमी पळयलां ते तें तिडकीन आमच्या भावांक स्टॅडियमाचेरच कशें मस्तीतात ते... तुमी पळोवंक ना तें.... तें पळोवन आंगावयली लवेन लव तिडकीन उबी जाल्ली. तिडकीचे इंगळे कुडभर जळटाले... दिसतालें हातात मशीनगन घेवचें आनीक एक एकल्याच्यो वादऱ्यो वादऱ्यो करून उडोवच्यो... फातरानी एकएकल्याक चेंचून काडचे... देखून त्याचवेळार सरकारान मारिल्ल्या उल्याक जाप दिली आनी सगळे नेम, नाती-पाती विसरून ह्या सैन्यांत भरती जालों. मनांत दिशिल्लें, आता म्हजे हावेस पुराय ज़ातले... पुणून, हांगासर इतलो तोंडार पावून लेगीत आर्मीतली

एक गुळी पेटोवंक मेळना...केन्ना ऑर्डर मेळटली काय हेचीच वाट पळयत रावचें पडटा...हांव असो बंदेपणात उरलां...म्हाका मेकळो सोडात...पळयात कसो एकएकल्याक, खांचीतल्यान सोदून काडून तांचे कुंडीची बोंदरां करून उडयतां तीं...पूण तुमी? शी ! थू! गांडीत शेंपडी घालून बसल्यात...ह्या कारगिलाच्या झुंजांत इतलें घडूनय तुमी खंयचे वेळेची वाट पळयतात? खंयची ऑर्डर येवपाची आसा तुमकां? शी! लज दिसता म्हाका तुमचेसरी असो रावपाक.

धिरेंद्र : तुजी तिडक हांव समजूंक शकतां विक्रम. झुंजामळार अशेंच आसता... मनांत आसूनय मुखेल्यांच्या बंधनात घुस्पून उरतात रे... तूं ह्या झुंजांत नवो आसा. तुका कांयच कळचे ना हे राजकीय डाव...तुजी तळमळ पळोवन तुका ॲडीशनल फोर्सातल्यान इतलो मुखार धाडून आमच्या डिवीजनांत दवरला हेंच तुजें भाग्य समज. आनी, ...तूं म्हण्टा तशी काडली जीब़ लायली ताळ्याक अशेंय करूंक मेळचेंना...हळू हळू तुका कळटलें...

विक्रम : कळपाचें आनीक कांयच उरूंक ना. बेजार आयलो म्हाका हांगासर, आतां आठ दीस जाले. हांव, आमी हांगासर तळ ठोकून बसल्यात... धड जगपाकय येना. आनी मरणूय येना. मरण आयल्यार लेगीत.. बशिल्लेकडेन येतलें. असोऽ एक बाँब येतलो आनी पडटलो आमचेर. उपरांत बशिल्लेकडेन आमकां मरण येतलें. शहीद जाले म्हण आमी नामनेक पावतले..ताका कितें मरण म्हण्टात..? ते परस हांव घरा चल्लों.... म्हाका म्हजें घर जाय.. म्हजो गांव जाय...म्हजीं मनशां म्हाका जाय... हांव वतलों.. तुमी सोडलो ना जाल्यारय पळून वतलों.

धिरेंद्र : (तिडकीन थापट मारता) यू ब्रूट! रास्कल! कितें उलयता तूं? जे आवयचे कुशींत तुवें जल्म घेतला तिची राखण करपाचे सुवातेर तूं अशें उलयता? पिशावरी बडबड करतना तुजी जीब रे कशी आडखळना? तुजे जाग्यार दुसरो कोणूय आशिल्लो जाल्यार गुळी घालून थंयच जिवोच मारतलों आशिल्लों.

विक्रम : ह्या वेळार म्हाका कोणूच आडावपाचो ना. म्हाका म्हजें घर जाय..म्हजीं मनशां जाय...म्हाका जिवो रावपाचो पुराय हक्क आसा.

म्हाका कोणाच्या हातांतल्यान मरपाचें ना...म्हाका जगपाचो आसा.

धिरेंद्र : शट् अप! तुका कितें खबर आसा? कितेंय बडबडटा तो.., आरे, दुस्मानाक फाट दाखोवन पळून वता ताका कितें मनीस म्हणपाचो? आरे म्हजेकडेन पळय... म्हज्या भावाक पळय, तुजेवरीच आमी दोगूय भाव आनी आमच्यासारके हजारांनी भाव ह्या कारगिलाच्या वेंगेंत तळ घालून दुस्मानासावन मांयभुयेचे राखणेखातीर आसात. तूं म्हज्या भीड म्हालांतलेंच पळय न्हय. तुमच्या दरेक घरांतलो तरणाटो मेळून सुमार दोनशे तरणाटे ह्या कारगील झुजांत आपखोशयेन आयिल्ले आसात... आरे, आयज येदें व्हड हें संकट - अरीश्ट आमचेर आयलां आनी तुका घरची याद येता... आरे, आमकां कितें घरां ना? ... आवय-बापूय ना? ...भाव-भयणी ना? ...आमकां कितें तांची याद येना? अशेंच तुका दिसता व्हय? येता रे, ...आमकांय आमच्या मायेच्या मनशांची याद येता... रातचे वेळार तांची याद आयली की दुखानी भरून रकपी हे दोळे ह्या ... ह्या भेसांत रिते केल्यात... पुणून आमच्या मनशांपरस आमी आमचे मायभुयेक व्हड मानल्या... मतींत दवर विक्रम, बंदेपणातल्या सुखी जिणेपरस ह्या झुजातली कश्टमय जीण चड मोलाची आसता. ह्या मांयभुयेच्या स्वातंत्र्याखातीर...

विक्रम : स्वातंत्र्य, ....स्वातंत्र्य.. स्वातंत्र्य ... कसली स्वतंत्रताय घेवन बसल्या तुमी? ... तांकां पाकिस्तान्यांक पळयात ... कोणाच्या बंदेपणांत रावनात ते... कोणाच्या उतराक रावना.. मनांत येता तशेंच करून मेकळे जातात ते. स्वतंत्रतायेच्यो गजाली करतात... सगळे उतरांचे खेळ. म्हाका ती स्वतंत्रताय जाय...जी हांव हांगासर येवचे पयलीं भोगताली. ती स्वतंत्रताय...

धिरेंद्र : हें पळय तूं चड उलयशी जाल्यार म्हजे आर्मींतली गुळी तुजी कवटी फोडून आरपार वतली. म्हाका तशें करपाक भाग पाडूं नाका.

(मेजर प्रवेश करता. पूण कुशीक रावून आयकता.)

विक्रम : घाल. घाल तुजी गुळी म्हजेर. आतां जगून तरी कितें उपेग म्हजो!

आरे, ....(पॉज) म्हजो जाण्टो, ...कुड्डो बापूय... ताका म्हजोच आदार आशिल्लो. म्हजी दीदी.. तिजें आतां लग्न लावपाचें आसा...तिजो संवसार थाटून दिवपाचो आसा.. म्हज्याबगर तिका कोण पोसतलो? ...तिजें लग्न कोण लायतलो? ...मनांतल्या मनांत म्हाकाच हुस्केता आसतली... आनी म्हजी आवय ... हांव हांगासर आयिल्ल्या खिणासावन म्हजे वाटेकडेन दोळे लावन दुखां गळयत दरवंट्यार बसता आसतली... म्हाका इतलो विरोध जावनय त्या वेळार ह्यो बंधनाच्यो सगळ्यो फास्क्यो मोडून हांगासर आयिल्लों पुणून... ना, आतां म्हजेंय जिणें व्यर्थूच... चलय ... चलय तुजें आर्म. घाल म्हजेर गुळी... तूं किते घालतलो म्हजेर गुळी. तूं भित्रो, ...भिवकुरो.. हांव चल्लों.... चल्लो म्हज्या घरा.

(अचकीत तसोच परतून घरा वचपाची तयारी करता तेचवेळार मेजर.)

मेजर : स्टॉप इट. (विक्रम थंयच थांबता)

धिरेंद्र : (मेजरालागीं वचून) सर... सर हो हांगच्यान पळून वचूंक सोदता सर. तुमी आयकलां न्हय ताचें उलोवणे?

मेजर : विक्रम. हांगासर यो. ...खंय चल्लो?

विक्रम : म्हज्या घरा.

मेजर : तुज्या घरा? ...खंय आसा रे तुजें घर?

विक्रम : लातूर जिल्ह्यांत भीड म्हालांत.

मेजर : तुका खबर आसा, लातूरचें भीड कितलें पयस आसा तें?

विक्रम : हय. हजारांनी तरी मैल पयस आसतलें.

मेजर : तरीय आसतना तूं वचूंक पळयता... हांगासर बंदखणीत उडयल्ल्या वरी दिसता व्हय?

विक्रम : तें म्हाका खबर ना. पूण म्हाका मेकळीक जाय. स्वतंत्रताय जाय.

मेजर : कसली मेकळीक आवंडेतां तूं?

विक्रम : जी मेकळीक जातूंत माया-मोग आसा. ...शांतताय आसा. समादान आसा.

मेजर : विक्रम, तूं जाका माया-मोग समजता, तो तुजो बुध्दीभ्रंश आसा. तूं

जाका मेकळीक समजता, ती मेकळीक न्हय, ती तुजी पिशी भावना. आरे असो भंयान पळून वचून तुका शांती मेळटली? समादान मेळटलें? घरच्या जबरदस्त उमळशिकेन तूं एका व्हड कर्तव्यासावन पयस वता हेंच तुज्या मतींत येना. हांगच्यान पळून वचून तूं वेवस्थीत घरा पावतलो? ...विचार कर.

विक्रम : पुणून हांव हांगासर रावूंक शकना. कितल्योय आडमेळीं आयल्यार हांव वतलों. म्हाका वचूंकच जाय.

मेजर : तूं वतलो जाल्यार चल ...पुणून, मातसो विचार कर....आमच्या चारूय वटांनी दुस्मान फाफशिल्ले आसात. तांचो दोळो आमचेर आसा आनी अशे वेळार तूं जर तांच्या हातांत गावलो जाल्यार तुजी दशा कितें जातली जाणा तूं? विक्रम, तुवें केन्ना हुंदरा-मांजराचो खेळ पळयला? त्या मांजराच्या दावखुलांनी मेळिल्ल्या हुंदरावरी तुजी गत जातली. आरे, हुंदरावरी मरण पत्करचे परस दुस्मानावांगडा झुंजतना येवपी शूरविराचें मरण बरें अशें दिसना तुका? झुंजामळार दुस्मानाच्यो गुळयो खायत आयिल्ल्या मरणांत खरी सार्थकता आसता. तुका जर मरणूच जाय जाल्यार अभिमन्यूचें माग. बाजीप्रभुचें माग. हें कसलें मरण आवडेता तूं? ...तूं महाराश्ट्राचो पूत देखून तुका सांगतां... स्वराज्याची मूर्तमेढ खोवपी छत्रपतिच्या वंशातलो तूं झुंजारी, आधीं लग्गीन कोंडाण्याचे नी मग रायबाचे अशें म्हणपी, तानाजीच्या माळेंतलो तूं... बचेंगे तो और भी लडेंगे अशें म्हणपी दत्ताजीच्या कुळांतलो तूं कुलवंत... केदें व्हड दायज तुजे फाटल्यान उबें आसा. आनी घरचे उमळशिकेन तूं हे परंपरेक फाट करता? विक्रम, जांचे मायेन तूं घरा वचूंक सोदता ते आवय-बापूय, भयण... तूं झुंजामळावयल्यान पळून आयला म्हूण कळटकच खूब खोशी जातलीं अशें दिसता तुका? आपल्या मांयभुंयेखातीर कसल्याय संकटाक तोंड दिवपाक जर तुज्यांत बळगें ना, तर हांगासर एक खिणभर लेगीत रावूं नाका. मात, लक्षात दवर, तूं हांगच्यान पळून वतना जर दुस्मानाच्या चपक्यांत मेळ्ळो जाल्यार ते तुजें कास करून तुजें मडें रानांतल्या सावजांमुखार शेवटितले. आनी, ते वेळार...

हांगासर रावपांत खरो पुरूषार्थ आशिल्लो, खरें जिणें आशिल्लें हें कळपाक... तूं जिवो आसचोना. तुका जर असलेंच मरण प्रीय आसत जाल्यार हांगासर एक खिणभर लेगीत रावूं नाका. वच... तोंड घेवन वच...

[मेजराच्या हड्ड्यांत दुखता. तो हड्ड्याचेर हात दवरून सावशीक जावपाचो यत्न करता. विक्रमाचेर ताच्या उलोवण्याचो परिणाम जाता.]

विक्रम : ना. नाका सर. हांव चुकलों.... म्हाका माफ करात. ...तुमच्या उतरांनी म्हजे दोळे उकते जाले. घरचे यादीन, उमळशिकेन हांव म्हजी जापसालकी विसरत गेल्लों. माफ करात म्हाका. सर, हांव म्हज्यो भावना आळाबंदाक हाडूंक शकलोना. म्हजे आई-बाबा, म्हज्या दोळ्यांमुखार येतकच, म्हजे मायेस्त भयणीची याद येतकच ...सर, ..म्हजें मन अस्वस्थ जाता... सॉरी सर.

मेजर : (विक्रमाक समजून घेत) म्हाका कळटा तुजी अवस्था. तुजें मन हांव समजूंक शकतां, विक्रम, आमी सगळे मांयभुंयेखातीर झुंजपी झुंजारी आसात. झुंजाऱ्याक खंयचींच नातीं-पातीं लागनात.... आवय-बापूय, भाव - भयण, घोव - बायल, खंयचीच नातीं तांका लागनांत. ताका फकत एकूच नातें खबर आसता तें म्हळ्यार हे मांयभुंयेचें. विक्रम, जिचे कुशींत तूं जल्मलो, जिणे आपल्या आंगा-खांद्यार घेवन तुका खेळयलो, नाचयलो, खाणें पिणें दिलें ती मांयभूंय आयज आमकां उलो मारता.

विक्रम : हय सर... तुमचें म्हणणें पट्टा म्हाका... म्हाका म्हजी मांयभूंय उलो मारता, देखून, म्हाका हांगाच रावूंक जाय.. म्हजी जापसालकी म्हाका पुराय करूंक जाय... मांयभुंयेक राखतां राखतां म्हाका मरण आयलें जाल्यार पुराय देस म्हजेखातीर दुखां गळयतलो. मात पळून गेलों जाल्यार, सगळे म्हजेर थुंकतले...म्हज्या कुटूंबाक दाग लागतलो...ना... (पॉज) हांव हांगाच रावतलों...

(हेचवेळार वायरलेसीची रिंग आयकूंक येता)

धिरेंद्र : **सर, आय थींक मेसेज.**

मेजर : ओह यस. (मेजर तंबूंत वचून मेसेज घेता... वायरलेसीचेर उलोवन जाल्या उप्रांत.)

धिरेंद्र : सर, इज देयर ॲनी मेसेज?

मेजर : यस, मेसेज इज वेरी इंपोरटंट. हांगासरल्यान लागींच म्हळ्यार ह्या टायगर हिलाच्या कांय अंतराचेर एक घळ आसा थंय पाकिस्तान्यांची निमणी पलटण आसा... आनी ते सगळे तयारींत मुखार येत आसात...आमी खयच्याय परिस्थितींत तांकां आडायले ना, जाल्यार आमचो फुडार काळखी आसा. वी मस्ट स्टॉप देम, देखून, जाता तितले बेगीन आमी तांकां थाबोवंक जाय अशी खबर आयल्या. हांगासर सगळ्यांमुखार आमी आसात म्हूण आमचें हें पयलें कर्तव्य आसा. सो, वी मस्ट स्टॉप देम.

धिरेंद्र : सर, तुमी कांय चिंता करूं नाकात...हांव वतां...

मेजर : पूण धिरू, हें तितलें सोंपे काम न्हय. तांकां ते घळींत आमी आडावप हें जितलें गरजेचें आसा तितलेंच तें कठीणय आसा. घडये, आमकां आमच्या जिवाचो त्यागय करचो पडटलो.

धिरेंद्र : सर मरणाचें भंय आमचे सारकेल्यानी कित्याक धरचें सर? हे मायभुयेखातीर म्हजो जीव वगडावचो पडलो जाल्यार हांव म्हाका स्वताक धन्य समजन सर. येतां हांव.. तुमी चिंता करूं नाकात. ... म्हज्या भावाकडे लक्ष दियात...

[धिरेंद्र तंबूंत वता. मिलीटरी बॅग जातूंत हँड बॉंब, वायरींची बंडलां, दोर, सारकिल्लें सामान घेवन भायर येता. इतल्यांत कोणाची तरी सुलूस तांकां लागता तशे सगळेच हल्ल्याक तोंड दिवपाचे तयारेंत शिटूक जातात. तेचवेळार विरेंद्र एका आतिरकीक लोळयत माचयेर हाडटा. सगळे जाण अचकीत ताका रेवाडो घालतात.]

विरेंद्र : यू ब्रूट रास्कल, ब्लडी बास्टर्ड ! (खोंट मारून अतिरेकीक लोळयता. अतिरेकी अर्दी मर्दी जिवाच्या आकांतान आड्डता.)

धिरेंद्र : विरू, सोड ताका. विरू, कोण हो?

विरेंद्र : भाई, होच तो मुर्दाड. आमच्या दुस्मानांचो खबऱ्या. उदक सोदपाक गेल्ले कडेन ह्या चोराची गाठ पडली. नालायक, ब्लडी बास्टर्ड.

धिरेंद्र : तुका खंय मेळ्ळो हो?

विरेंद्र : हांव उदकाच्या सोदांत आसतनाच चलतां चलतां म्हाका अचकीत एका तळपाच्या आडसाक कितें हालता शें दिसूंक लागलें...चान्याचेर बारीक पळयल्यार हो...मनांत म्हळें आमचीच पलटण मुखार आसतना हो आनीक कोण खंयचो? हांगासर कसो? देखून ताका लिपून तेळूंक लागलों. उपरांत मतींत आयलें हो आमच्यांतलो न्हय. तेन्नाच ताका कळपाक दियनासतना ताचेर झोंपय घाली. आमची बरीच लटाफट जाली. तुका सांगतां भाई, आर्माची गुळी घालून ताका मारतलों आशिल्लों पूण मनांत म्हळें, म्हज्या आर्माचो आवाज येवन त्या दुस्मानाक आमची सुलूस लागतली देखून हाकाच घेवन लोळ्ळों. खंयचेय परिस्थितींत ताचें शाणपण चलपाक दिलें ना.

विक्रम : (तिडकीन आंगार धावत) ताका कित्याक घेवन आयला हांगासर? थंयच जिवोच मारपाचो (तो अतिरेकीक खोटायता. बाकीचे ताका आडायतात.)

विरेंद्र : तशेंच करतलों आशिल्लों. पूण मनांत येवजिलें हो कोणूय मुखेली बी आसल्यार आमकाच ताका आमच्या सुवादीन दवरून कितेंय तरी हालचाल करूंक मेळटली. तसो ताका बरोच शेक दिवन व्हयला हांवें. मुर्दाड पाकिस्तान्यांच्या पलटणींतलो तो एक खबऱ्या. आमच्यो खबऱ्यो तांकां पावोवपी. आमी खंय खंय आसात ताची म्हायती तांकां दिवपी. हाका बांदून घालात.

(विक्रम परतून मारूंक वता. हेर ताका आडायतात.)

अतिरेकी : म्हाका मारूं नाकात.. म्हाका मारूं नाकात.

विक्रम : तोंड घेवन सांगता? आरे चोरा, आमच्या कितल्याश्याच भावांक तुमी हाल-अपेश्ठा करून मारल्यात तेन्नाय ते जीव वाटोवपाक अशेच आइडल्या आसतले आनी तुका आमी सोडूं..? सोडटात हां... गळ्यांत फुलांच्यो माळो घालून सोडटात हां... घातमारे खंयचे-पडमूर.. (खोटी घालीत रावता. आर्मीचो दस्तोय मारता तसो अतिरेकी निन्नळटा.)

विरेंद्र : सर, तांची पलटण लागींच आसूंक जाय, पुणून हो सारको उलयना.

धिरेंद्र : (केंसाक धरून) सांग, खंय आसा तुजी पलटण? उलय... (ताका झेडपीत रावता)

अतिरेकी : सांगतां, पूण म्हाका मारूं नाकात.

मेजर : ना मारचे, उलय.

अतिरेकी : ना, तुमी म्हाका मारतलेच.. तुमी फटयतात... हांव तुमच्या पांयां पडटां पूण म्हाका मारूं नाकात.

मेजर : चूप! तुका एकदां सांगलां तें कळूना. एकदां दिल्लें उतर आमी फाटीं घेयनांत. आमी भारतीय.. दिल्ल्या उतराक जीव लेगीत दिवपी. नाजाल्यार तुमच्या पाकिस्तानाचें केन्नाच कब्रस्तान करून उडयतले आशिल्ले.

धिरेंद्र : तुमी तर पडमूर.. विश्वास घातकी. फुड्यांत बरें उलोवन फाटल्यान सुरी तोंपपी.

अतिरेकी : ना. म्हजो तुमचेर विश्वास ना. म्हजेंकडसून म्हायती मेळोवन तुमी म्हाका जिवेंच मारतले.. नाका, म्हाका मारूं नाकात.

मेजर : (केंसाक धरून धेंगसो घालीत) शट अप! तुका तसो मारपाक आमी कितें तुमचेवरी राक्षेस न्हय. आरे तुमी आमच्या स्क्वेड्रन लिडर अजय आहुजाचे कान, दोळे, जीब कापून तांचें मडें आमकां धाडून दिलें. मनीसपणा भायलो धर्म तुमी आमकां दाखयलो. पुणून आमी तितले राक्षसी वृत्तीचे न्हय. आमी भारतीय मनीस, मनीसपण जागयत आमचे अधिकार मेळोवंक झूंज झुंजतात. तुका मारून उडोवपाक आमच्यांतलें मनीसपण ना जावंक ना. जो मेरेन आमकां जैत मेळना तो मेरेन तूं आमच्या बंदेपणांत उरतलो. तुज्या जिवाक कांय एक

धोको उपरासूंक आमी दिवंचे ना. उलय, तुजी पलटण खंय आसा?

अतिरेकी : ना, तुमी म्हाका मारतलेच.

मेजर : चूप! बरेपणान तूं सांगना जाल्यार भारतीय बी जैंनावराभशेन कितले क्रूर वागतात तें तुका दाखोवंचें पडटलें. (गोलाक, केंसाक धरून झडपीत मारीत) उलय..

अतिरेकी : (मार सोंसूंक जायना देखून) सांगतां... सकयल ह्या टायगर हिलाच्या घळींत आमची पलटण आसा.... तुमचोच थाव घेवंक हांव हांगासर मुखार आयिल्लों...
(तिडकीन धिरेंद्र आनी विरेंद्र ताका खोंटायतात)
अगर तुम लोगों ने मुझे मार भी डाला तो हम कश्मीर लेके ही रहेंगे... कश्मीर हमारा है, हमारा ही रहेगा।

धिरेंद्र/विरेंद्र :चूप! दिता तुमकां सारकें काश्मीर...कारगील...दाखयता तुमकां आमची कापासदाद...

[दोगूय ताका बांदून घालपाच्या वावरात आसतना
मेजर धिरेंद्रान भायर हाडिल्लें सामान घेवन अतिरेकीन
दाखयल्ल्या - सांगिल्ले वटेन वता. मेजर वता तें
पळोवन विक्रमय मेजराचे फाटोफाट धिरेंद्र - विरेंद्राची
नदर चुकोवन वता.]

धिरेंद्र : हें पळय विरू, आतांच मेसेज आयल्या की पाकिस्तान्याची निमणी पलटण लागींच आसा. तेन्ना तांकां ते आशिल्ले ते घळींत आमी आडायले ना जाल्यार ते आमचेर मात करतले...तेन्ना हांव मुखार वचून तांचो बंदोबस्त करतां.

विरेंद्र : ना, ना भाई, तूं वचूं नाका...हांवूंच वतां.

धिरेंद्र : हें पळय तूं म्हजेपरस धाकटो. तेन्ना तें काम म्हाकाच बरें जमतलें...तूं कांय भिये नाका.

विरेंद्र : ना भाई, हांव तुका वचपाक दिवपाचो ना... तुजे जिवाक कितेंय बरें वायट जालें जाल्यार.

धिरेंद्र : आरे पिशा, तसलें कांय एक घडचें ना...तूं हांगासरच राव आनी, हांका साथ दी...सराचीय तब्येत बरी ना तेन्ना...

(इतल्यात फायरींग सुरू जाता)

विरेंद्र : भाई, ती पळय आयक, फायरींग सुरू जाली. तांकां मुजरत आमची सुल्‌स लागल्या आसतली....भाई, सर खंय?...आनी विक्रम..? खंय गेले दोगय?

धिरेंद्र : आरेच्च्या! आमची नदर चुकोवन दोगय गेले. शेर्त, विक्रम दुस्मान येता तें पळोवन आमची नदर चुकोवन पळून गेला आसतलो आनी मेजर...खंय गेले काय? ...सर, (उलो मारीत तंबूंत पळयता) विरू, तूं भिये नाका. हांव आसा तुजे सांगाताक...पुणून विरू, आमी हांगासर आसासर कोणाकच हेवटेन सरूंक दिवंचें न्हय...कर तुजें मन घट...आनी विरू एक सांगतां, ...मजगती दुस्मानावांगडा झुंजतना म्हज्या जिवाक कितेंय जाल्यार तुजो धीर वगडावं नाका.

विरेंद्र : भाई, प्लीज अशें उलोवं नाका. तुजेपयलीं हांवूच...

धिरेंद्र : चूप ! मांयभुंयेखातीर रगताच्या निमण्या थेंब्यामेरेन झूंज...कम ऑन...गेट सेट रेडी (दोगूय आर्मा जोखून तयारेंत रावतात. तेचवेळार बॉंब स्फोट जाता आनी उपरात फायरींग थांबता. थंड किरांव वातावरणात पयसुल्ल्यान मेजराचो जखमी अवस्थेंत धिरू ऽऽ असो उलो आयकूंक येता. धिरेंद्र मेजराची सुलूस घेता तसो विंगेंतल्यान मेजर विक्रमाक ओडीत घेवन प्रवेश करता. विक्रम जखमी जावन मेल्ले अवस्थेंत जाल्यार मेजर पुराय जखमी जाला.)

मेजर : धिरू....विरू....आमी जिखले...(धिरेंद्र - विरेंद्र मेजराक साबाळून धरतात. विक्रमाचें मडें कुशीक दवरतात. विक्रम, विक्रम करीत गोंदळटात. कितें करचें, कोणाक पळोवचें हे द्विधा मनस्थितींत.) धिरू, धिरू, टायगर हिलाच्या घळींत आशिल्ल्या पाकिस्तानाच्या निमण्या पलटणीचो आमी विध्वंस केलो...आमी जिखले विरू...धिरू...धिरू ह्या ....ह्या विक्रमान तांची पलटण उध्वस्त करून उडयली....पळयलें... येदोळ मरणाच्या भंयान पळून वचपी

ह्या पोरान बिनधास्तपणान मरणाक वेंग कशी मारली ती... आरे, हांव तुमची नदर चुकोवन मुखार गेलां मात... ताणें म्हाका खंयच्यान पळयलो हांव नकळ...म्हाका आडायलो आनी ताणें म्हळें, सर, तुमी मुखार वचूं नाकात...तुमकां म्हजे मांयभुंयेखातीर जगचें आसा...तुमची मांयभुंयेक गरज आसा...आनी धिरू तो म्हज्या हातांतलें सामान घेवन...बाणावरी चोचेत गेलो...दुस्मानांच्यो गुळयो हड्डयार झेलीत...मुखार वचून ताणें बाँब शेवटिलो...आनी पाकिस्तान्यांची पलटण ताणें फोडून ....ना नपश्चात केली.

धिरेंद्र : (मेजराक सांबाळीत सावशीक करपाचो यत्न करता.) सर, सर - विरू बेगीन उदक हाड.

मेजर : (निमणे स्वास घेत.) नाका, उदकाची गरज ना. धिरू, ...कोणाक खबर...आमचे हे मांयभुंयेचें सौभाग्य तिगोवन दवरपाक असल्या आनीक कितल्या जुवान पोरांचे बळी पडपाचे आसात...

(विरू उदक हाडटा. तें मेजराच्या ताळ्यांत रकोवपाचो यत्न करता.)

धिरेंद्र : सर, उदक घेयात...मातशें बरें दिसतलें...विरू..फस्ट एड बॉक्स घेवन यो.

मेजर : नाका रे धिरू, आतां हाचो कांयच उपेग जावपाचो ना. आंगांत त्राण तितलें उरलें ना रे...आमचे परीन दुस्मानाची ही निमणी पलटण आमी सोंपयल्या. पुणून हांव नकळ हें झूंज हांगाच सोंपतलें काय मुखारय चालू उरतलें तें. धिरू, विरू....हो अशांत उजो... ह्या अशांत उज्यांतल्यान तुमी दोगूय भाव बरेतरेन सही सलामत सुटले जाल्यार ह्या पोराच्या गांव-घरा चलात...लातूर जिल्ह्यांतल्या भीड म्हालांतल्या ताच्या घरा चलात...थंय ताची वाट पळयत राविल्ल्या ताच्या आवय-बापायक मेळात...ताचे भयणीची भेट घेयात...आनी तांकां सांगात...तुमचे सगळ्यांचो हो अपुरबायेचो विक्रम मांयभुंयेची राखण करतना शहीद जालो...धिरू, विरू, त्यो पळयात जैतान मिरोवपी आमच्यो पलटणी म्हाका दिसतात...आमची मांयभूंय कितले अभिमानान आमचे कडेन पळयता पळय, ....आनी तो

बावटो...तिरंगी बावटो, कितल्या झेतान हुबता पळय....आरे भावानो....आमच्या ह्या मांयभुंयेचो अभिमान, आनी ह्या तिरंगी बावट्याचो मान तुमच्या हातांत आसा....ताची राखण करपाक विसरूं नाकात...भावानो, ...जय हिंद! (मेजर धिरू-विरूच्या वेंगात मान आडवी उडयत कोसळटा)

धिरेंद्र/विरेंद्र :सर? ....ओह नो!

[मेजराच्या मरणान दोगय दुखी. उपरांत एकमेकांक सांबाळीत ...मेजर आनी विक्रमाची कूड एकठांय हाडून ताचेर आवरण घालतात आनी तांकां निमण्यो मानवंदना दितात...ये मेरे वतन के लोगों ह्या गीताच्या निमण्या वळींच्या गायनाचेर देखाव फ्रिज.]

[काळोख.]

# एक चित्र अर्दकुटें

ह्या नभोनाट्याची पयली वितरावणी
६/११/२००२ दिसा आकाशवाणी
पणजी केंद्रावेल्यान
रातच्या १०.०० वरांचेर जाली

सादर करपी : यशवंत म्हांबरे

## देखाव पयलो

[माचयेर पड्डो उकतो जाता. उजवाडांत माचयेर एकेवटेन मुर्तीकाराच्या मध्यम वर्गीय परिस्थितीतल्या घराची पडवी. दुसरे वटेन मुर्तिकाराची मुर्त्यो करपाची कूड. माचयेवयले लेवल्स वापरूनय ही कूड दाखोवं येता. तातूंत कांय मुर्त्यो हेवटेन-तेवटेन दवरिल्ल्यो दिश्टी पडटात. उजवाडांत एक पत्रकार आनी जाण्टेलो मुर्तिकार शिवराम मुर्त्यांचे कुडींत भोंवत आनी मागीर बसत -उलयतात.]

पत्रकार : व्वा! खूब सुंदर. हीं सगळीं चित्रां आनी मुर्त्यो पळयल्यार तुमचे हे कलेंतली कुशळताय दिसून येता आनी तुमी ह्यो पारंपारिक मुर्त्यो वा ह्या विंगड विंगड चित्रांच्यो मुर्त्यो करपांत कसलोच साचो वापरनात हेंच तुमचें खाशेलपण. तशें पळोवंक गेल्यार हें तुमकां देवाचें दिल्लें देणें. हय, देवाचेंच देणें म्हणचें पडटलें!

मुर्तिकार : थंय सांबाळून हां.... माती ओली आसा. ते भायर तुज्या कपड्याक लागतली. असो यो.. हांगासर हे तामरेतीचेर बस.. आनीक थंय रंगाचे बी ढबे अशे पडल्यात... नाजाल्यार तूं रंगतलो थंय. (आपुणूच विनोद केल्लेवरीं हांसता. पत्रकार ताका साथ दिता.)

पत्रकार : तुमची ही कला शिकपाक तुमचेकडेन कोण येना? आनी तुमी तुमच्या

भुरग्याक बी तयार केला आसतलोच... न्हय?

मुर्तिकार : तशे कोण येनांत शिकपाक.. खरें म्हणल्यार म्हाज्या चेड्यान हें शिकपाचें. पुणून... (सुस्कारो सोडटा) नाका, ती गजालूच उलोवंची न्हू.... मागीर आमचें वेगळेंच पुराण सुरू जातलें. ते परस हांगासरूच ही गजाल थांबोवया...

पत्रकार : कळ्ळें, कळ्ळें... बरें आसा. पुणून अजाप मात दिसलें. तुमकां सांगतां तुमच्यो ह्यो मुर्त्यो, कलाकृती, चित्रांच्यो मुर्त्यो पळयतकच म्हाका लेगीत तुमच्या ठांय येवन हें शिकन दिसता.

मुर्तिकार : यो.. तुका जाय तेन्ना यो. तुमच्या सारकिल्ल्यां तरणाट्यांक कितेंय सांगूंक, दाखोवंक म्हाका खूब उमेद... केन्नाय यो...

पत्रकार : म्हाका खूब आवड आसा...

मुर्तिकार : म्हाजें ह्या कामांतलें खाशेलपण म्हणल्यार... हांव मुर्त्यांक ऑयल पेण्ट केन्नाच वापरिना.

पत्रकार : कित्याक?

मुर्तिकार : ऑयल पेण्टान मुर्त्यांक शायनींग येता... पुणून ही शायनींग मुर्त्यो जित्यो करपाक वा दिसपाक मदत करिना, भोंवतणी दिवे बी पेटयतकच ती शायनींग दोळ्यार मारता. उरफाटे उदकाचे रंगान मुर्ती जित्यो दिसूंक लागतात. तो रंग दोळ्यार मारिना.

पत्रकार : बरोबर तुमचें. आनी देवांच्या मुर्त्यांक पळयतकच आपणाकय प्रसन्न अशें दिसूंक जाय न्हय.

मुर्तिकार : तेखातीरच पारंपारिक मुर्त्यो सोडल्यार हांव हेर चित्रांच्या मुर्त्यांक केन्नाच साचे वापरिना. कोणाकय घाई-गडबडींत मूर्त जाय म्हणल्यार कोणाक करून दिना. म्हाज्या मनासारकी जो मेरेन जायना तो मेरेन तिजेखातीर हांव वेळ घेतां...

पत्रकार : म्हळ्यार? दुसऱ्यांचे आवडीनुसार तुमी मूर्त करून दिनांत तर?

मुर्तिकार : तशें न्हू. तशी दितांच रे. पुणून नांवां पुरती करून दिना. म्हाका हांव करता ते मुर्तींत समादान मेळूंक जाय. समजा, हांवच समादानी नासलों जाल्यार मूर्त व्हरपी समादानी कसो जातलो?...देखून घाई - गडबडीत हांव कोणाक मूर्त करून दिना. एखादी चूक उरता आनी

मागीर तीच चूक तुका ग्वूब त्रासांत उडयता.

पत्रकार : ही वयर दवरल्या ती मूर्त...कृष्णाची खंयच्यान हाडिल्ली तुमी? सुंदर आसा. तसल्यो बी मुर्त्यो करतात तुमी...?

मुर्तिकार : (हांसता) म्हर्जीच ती. हांवेनच केल्या ती. प्लास्टर ऑफ पेरिसाची...विश्वास बसना न्हूं, हायें केल्या म्हणोन. तुका सांगतां हे मुर्तेची गजाल...पूण ती तूं बरोवं नाका...तुका आमचें जिणें कळचें म्हुणोन थोडेशें सांगतां.

पत्रकार : सांगात तुमी, हांव बरयना तें तुमच्या मुलाखतींत.

मुर्तिकार : हांव कोणाक गुन्यांवकारी, दोशी वा वायट असो लेखिना. लोक म्हजेकडेन कशेंय वागूं...हांव म्हाजें करतब करीत येयलां...म्हाजे कलेंतल्यान दुसऱ्यांक खोशी दिवप इतलेंच म्हाजें मन म्हाका सांगता.

पत्रकार : आपल्या कलेंतल्यान दुसऱ्यांक समादान दिवप, तांचें समादान करप हेंच कलाकाराचें जावं मुर्तीकाराचें ध्येय आसूंक जाय.

मुर्तिकार : एका वर्सा सरकारान मुर्तीचें प्रदर्शन आनी सर्त दवरलेली...म्हाका तें कांय कळनाशिल्लें. म्हाका बरोवंक वाचूंक येना...म्हाज्या आवय-बापायक तें जमलें ना. सदांच म्हाजेकडल्यान मुर्त्यो, चित्रां करून व्हरपी एका इश्टान, तेचें नांव हांव तुका सांगिनां, ही खबर आयकली आनी तेणें म्हाका त्या प्रदर्शनांत वांटो घे म्हुणोन फर्मायलें....म्हाका ब्रेश्टेंच भंय दिसूंक लागलें. शेवटाक तोच म्हाजेकडल्यान कृष्णाची मूर्त तयार करून घेवन त्या प्रदर्शनांत गेलो...आनी तुका सांगता देवा कृपेन म्हाका पयलें इनाम फावो जालें. तेणें म्हाका दोन हज़ार रूपया हाडून दिले. तेदेवेळार हायें एकाच सारख्यो दोन मुर्त्यो तयार केल्ल्यो. तेचे जोडयेंची ही दुसरी मूर्त.

पत्रकार : व्वा! खूब सुंदर. प्रायज मेळपासारकीच आशिल्ली.

मुर्तिकार : पूण आयक. म्हाका बऱ्या तेंपान कळ्ळें की म्हाज्या मुर्तेक पांच हजारांचें इनाम मेळ्ळेलें...म्हार्जी भुरगीं इश्कोलाक वयतालीं पुणून तीं खंय पेपर बी वाचतालीं...तेका लागून कांयच कळ्ळेंना. कांय नजो. त्या इश्टान आपणे केल्ल्या कश्टांचें मोल फारीक करून घेतलें अशें हांव म्हणीन...आनी तेकाच लागून हांव थंय पावलों न्हू, ना

जाल्यार म्हाका तरी ते दोन हजार खंय मेळटले आशिल्ले? ...आनीक एका प्रदर्शनात अशीच गजाल घडली. त्या प्रदर्शनात म्हाज्यो खूब मुर्त्यो खपल्यो पुणून ज्या मनशान म्हाका प्रदर्शनाखातीर तयार केल्लो ताणें आपल्या हॉलाचे पयशे येणावळी परस दुपेटीन फारीक करून घेतले. हे सगळे वेव्हार लोकांकडसून कळटकच आतां हायें प्रदर्शनाय सोडलीं.

पत्रकार : कितें आसता न्हय एका एका मनशांचे सभाव! दुसऱ्याक फटोवप कशें जमता म्हण कळना. बरें न्हय तें.

मुर्तिकार : आतांय म्हाज्यो मुर्त्यो खूब जाण व्हरतात. हेणें सांगल्यात, तेणें सांगल्यात करून व्हरतात आनी ...पयशे दिवपाचे वेळार मात, तो मनीस अजूनय आपणाक मेळूंक ना. मेळटकीर सांगतां हां...अशें म्हुणोन. तुका सांगता, धा- धा वर्सां जावन गेलीं पुणून आजून मुर्त्यांचे पयशे फारीक करिना. म्हाकाय तें बरें दिसना. पयशांक विचारल्यार रोकडेच म्हण्टात तूं कांय भिये नाका, पयशे खंयच वचनांत. म्हाका तूं सांग गरजेवेळार पयशे मेळना जाल्यार कित्याक तें काम करूंक जाय न्हू?

पत्रकार : तुमकां मुखार मागीर काम करपाक लेगीत मूड येवंचो ना न्हू? आनी दुसरें म्हळ्यार फुकट जायना न्हय त्यो मुर्त्यो. तांकांय भरपूर खर्च आसता, तोय चिंतूंक जाय तांणीं.

मुर्तिकार : फकत चवथीच्या दिसांनी मात मुर्त्यांचें मोल रोख मेळटा. तेंय बी कशें? शंबरांची मूर्त पन्नासाक व्हरतले... बाबा, आतां अशें परवडटा रे? माती खंय पावल्या... रंग तर विचारूं नाका, कितलो म्हारग जाला तो! आनी हांव तेंका कशें म्हूण देवाचें मोल सांगो?

पत्रकार : तशे मुर्तिकार सांगतात न्हय?

मुर्तिकार : सांगल्यार हेंच म्हणटले, हांव देवाचें मोल करतां म्हणोन, तेपरस आसूं..

पत्रकार : हे कलेतले आनीक कितेंय बरे-वायट अणभव गांठीक आसल्यार सांगात न्हय.

मुर्तिकार : बरी याद जाली. आनीक एका इश्टाची खबर पळय.... म्हाज्यो

पन्नाशेक मुर्त्यो घेवन आपूण मुंबयत प्रदर्शन घडोवन हाडटां आनी तुका भरपूर पयसो मेळोवन दितां अशें सांगून एक इश्ट, तुका नांव सांगिना हांव.... तो म्हाज्यो पन्नास मुर्त्यो, तरेकवार देवांच्यो.... घेवन गेलो.

पत्रकार : मुंबयत तुमच्या मुर्त्यांक बरोच खप आयला आसतलो न्हय?

मुर्तिकार : आयक. तो इश्ट कितले दीस येयलोच ना.... बरो म्हयन्या उपरांत येवन कितें सांगलें जाणां.... की त्यो मुर्त्यो व्हरतना खंय मुर्त्यांची गाडी मुंबय वतना खंयच्या तरी घांटार लवंडली... आनी मुर्त्यो सगळ्यो लागल्यो. फुटिल्ली मूर्त, कोण घेता? कितें उलोवं...? तो जाणा आशिल्लो हांव तशें सांगलें म्हणटकच कांयच उलोवपाचो ना म्हुणोन.... म्हाजे नशिबाचे खेळूच तशे जावपाचे आशिल्ले. कितलें लुसकान जालें जाणां म्हाका? सामको त्रासांत पडलों हांव.

पत्रकार : मागीर, तुमकां ताणें फटयल्ल्याचें केन्ना, कशें कळ्ळें?

मुर्तिकार : एका दिसा त्या इश्टाचो आनीक लागशिल्लो इश्ट म्हाजेकडल्यान सरस्वतीची मूर्त व्हरपाक येयल्लो. ते वेळार तेणें म्हाका मुंबयत त्या मुर्त्यांचें प्रदर्शन बरें ऽऽऽ जाल्ल्याची खबर दिली. आता हें कळटकच हांव कितें झगडूंक वचूं? तेणेंनूच म्हाका कितेंय समजून दिल्लें जाल्यार जातालें. पुणून ना... सगळेच म्हाज्या कश्टाचेर आपलें भरूक सोदताले. पुणून तें तूं बरय नाका...

पत्रकार : आतां निमणो प्रश्न. हेर कलाकारांक बी तुमचो कितें सल्लो आसा? म्हळ्यार तांकां तुमी कितेंय सांगूक बी सोदतात?

मुर्तिकार : कितें सांगूं?.. तूं इतलेंच बरय.... की ही कला जेचेकडेन कोणाकडेन आसा न्ह तेणी राखून आपणाकडेन जाता ते परीन दुसऱ्यांक खोस दिवंची. पुरो इतलेंच..

पत्रकार : बरें....बरें... बरें तर. इतली तुमी म्हायती दिली ते खातीर व्हड उपकार जाले तुमचे... तुमच्या काकांकडल्यान ही कला शिकून तुमी तुमचेपरीन तातूंत उदरगत करून आयजमेरेन तुमचो संवसार चलयत आयले, मर्दी जायत्या जाणांनी तुमच्या भावार्थाचो, सोशिकतायेचो लाव घेवन तुमका फटयले हें पळोवन खरेंच वायट दिसता. तरी

फुडारांत ह्या लोकांचें मत बदलून तुमकां बरे दीस येवं इतलेंच मागतां आनी तुमकां ते खातीर बरी भलायकी आंवडेतां... देव बरें करूं.... येतां हांव.. आमच्या नेमाळ्यांत तुमची मुलाखत उजवाडाक येतकच तुमकां ती हांव घेवन येतां हां... बरें तर.. येतां हांव. देव बरें करूं.

मुर्तिकार : यो. तुकाय बी देव बरें करूं.

(पत्रकार वता. पत्रकाराक भायर पावपाक मुर्तिकार दारामेरेन येता.)

बरें तर... सांबाळून हां.

पत्रकार : बरें. येतां.

(पत्रकार वता. घरकान्न भायर येता.)

घरकान्न : असल्यो कसल्यो गजाली चलताल्यो तुमच्यो?

मुर्तिकार : कांय ना गो... ते खंय एक नवोच पेपर छापतात... तो पेपर ते भायर भायर म्हणल्यार भायल्या गांवांनी, देसांत धाडटात. तातुंतल्यान आमच्या देशांतल्या मुर्तिकारांची, कलाकारांची, वळख मेळची म्हुणोन म्हाज्या सारकिल्ल्यांच्यो मुलाखती घेवन ते तितूंत छापता. फोटू बी काडून व्हेल्यात... सांगलें ताका कितें सांगपाचें तें.

घरकान्न : च्या घेवन येयल्लें तेन्ना आयकल्लें हायेन थोडें शें ... तुमी सांगपाचें न्हू तेका.... सरकार आमकां कांयच दिना म्हूण... तेंच्या धर्मान सरकाराचें लक्ष आमचेर पावलें जाल्यार पावूं आशिल्लें.

मुर्तिकार : हें तशें उलयनांत. तुका कळना गो तें.

घरकान्न : कितें कळना? .. आमकां म्हूण संवसार ना. आमी कितें मनशां न्हू? सगळे जाण येता तितलेय आपलें सादोवन घेता.... इतलें काम करता तुमी... आनी कोणूय तुमचे सुवातेर आशिल्लो जाल्यार बंगलो बांदतलो आशिल्लो येन्ना. पुणून, आमचें नशीबच कपलफुटकें... आमच्या संवसाराक बोथो पडला... येयल्ल्या दिसा संवसाराचीं चिंतना सोंपच ना... गिरायकां मेळटा तीं लेगीत भिकाड्डींशीं.... फटींग. तो आनीक एक पांडू येता तो आयज हेणें हें सांगलां, तेणें तें सांगलां... सामकें उर्जेंत जाय म्हुणोन तुमचेकडल्यान मुत्यों करून व्हरता पुणून केन्नाच सारके पयशे दिना. तो म्हाका मेळुना, होय

मेळुना.... फाल्यां मेळटलो तेन्ना घेतां पयशे तेचेकडल्यान अशें सांगून हांगच्यान पळ काडटा..... तावल्यो-बावल्यो बऱ्यो करता.... फटींग खंयचो..... पचों नाका तेका. तुमी एक मेळ्ळ्या तेंका राजा हरिश्चेंद्राबशेन.... कोणाक कांय म्हणचे ना... कोणाकच दुखोवपाचें ना... हांव म्हणटां तो वेव्हार न्हू? तशें स्पश्ट सांगोंक जायें.

मुर्तिकार : सांगोया पळोवया. मातशें ओगी राव आतां.

घरकान्न : सांगलें... तुमी सारके सांगतले.

मुर्तिकार : बाब खंय गेला आयज. तेका फकत भोंव भोंव म्हणचें. तो एक... बापायचोच जींव खावपाचो तेणें... इतलो कसो इबाडलो म्हुणोन कळना... खंय गेला गो तो हेडपाक... तुयें खूबच अर्थ-अपुर्बाय केल्या तेची... म्हाजें म्हुणोन एकूय उतर आयकना तो.. कितले फावट सांगलें तेका बाबा मातसो आदार दी रे... पुणून खंय आयकता? छे!... पयशे मात जाय तेन्ना दिवपाक जाय तेका...

घरकान्न : आसूं पळोवया तेजें उलोवं नाका.

मुर्तिकार : उलोवं नाका कितें? तुयेनूच चड माथ्यार बसयला तेका. येदोळचो तो भुरगो. तो लेर्गात अजापलो. म्हज्या भुरग्यान ही कला शिकून घेवंक ना म्हुणोन. म्हाजोच चेडो शिकना जाल्यार हांव आनीक दुसऱ्यांक कितें सल्लो दिवं?

घरकान्न : एकलो एकसुरो पूत. कॉलेज शिकला, खर्याय शिर्वीस करून पोट भरता जाल्यार भरू.

मुर्तिकार : हे अशेच तुयें लाड केल्या म्हूण माथ्यार बसला आमच्या तो. बापूय तेका नाकाच. पयर्लीसावन बापायचेर तो कौंत्र कित्याक? हें काम कर सांगता म्हुणोन? म्हाका कोण पोसपाचो ना. काम केल्यार चार पयशे तेकाच मेळटले...

घरकान्न : नाका. तुमचीच परंपरा लोक तेचेकडेन चलयतले... तुमचो म्हूण लोक थोडो फायदो घेना. तेका भायर काम करता जाल्यार करूं. तो सुखांत उरूं.

मुर्तिकार : भायर काम करपाक हांव नाका म्हणना तेका, पुणून घरांतूय मातशें लक्ष दिवंक जाय न्हू. घरचेंय सांबाळूंक जाय न्हू?

घरकान्न : एकलोच अपुरबायेचो पूत. ना, ना म्हूण देवाकडेन मागून घेतिल्लो. आतां तेच्या फाटल्यान कित्याक लागता...?

मुर्तिकार : जाय जाय तेन्ना दी पयशे तेका... एलमपेड्ड्यार जाला पळय तो.... लोकांच्या भुरग्यांक पळयल्यार तान-भूक न्हिवता आनी म्हगेलो हो देळो.... कॉलेजीक दोन वर्सां सुबेज काडलीं... पापयाच्या तकलेंत कशेंच वचना... कित्याक म्हुणोन देव जाणां.... आपले वांगडचे कामाक वयता आनी संवसार चलयतात आनी आपूण...? आतां, लोकांचेर सांवार येयला म्हुणोन सांग नाजाल्यार हो धंदो कितें वायट न्हू.

घरकान्न : पाड पडूं. तें आनी उलोवं नाका.

(इतल्यांत पांडू येता. भायल्यानच विचारता.)

पांडू : भाऊ, आसा व्हय घरांत?

घरकान्न : याद काडपाक आनी येयली पिडा.

मुर्तिकार : चल तूं भितर आनी इल्ली च्या कर पळोवया आमकां....

घरकान्न : वयतां. च्या बी काय ना. (भितर वता)

मुर्तिकार : आरे, पांडू मरे... यो.. यो.. कसो आसा? .. बस.

पांडू : (भितर सरत) ना, बसना. हांगाच उरतलों. मातसो ताकतिकेंत आसां. ते बावले दोन सांगिल्ले ते केल्या न्हू? काल तेणे रकाद धाडिल्लो... तेगेली गेट बसोवन जाली... आतां तो ते गेटीर बसोवपाचो आसा म्हूण... हांव व्हरूंक आयिल्लों. पयशे मात तो घेवन येता म्हणी...

मुर्तिकार : व्हर रे. तुजे ते बॉक्सांत घालून दवरल्यात हायें... आनी तुका पयशांक कोणे इचारलां हय रे? व्हर तूं.. जातलें मरे व्हरपाक..? यो... भितर. थंयच दवरल्यात ते हायें.

पांडू : (मुर्तिकाराच्या फाटल्यान चलतना पयशे हातांत कोंबपाचो यत्न करता) .. हे बेश्टेच दवर हां... च्यायेक म्हूण पंदरा आसात.. तो दितलो रे तुका मागीर... हे म्हजे म्हूण तुका..

मुर्तिकार : ते आनीक कित्याक? आसूं रे... दवर ते (पुणून पांडू ताका दिताच) तुका बशीक बी आसा मरे... नाजाल्यार दवर....

पांडू : ना.. ना. आसा म्हजेलागीं.. ताणें दिल्यात बशीक बी. दवरात ते.
मुर्तिकार : चल यो तर.. दितां तुका.. बरे करून मात व्हर हां...
पांडू : बरें बरें. ते हांव सां[illegible] करतां. तूं कांय हुस्को करूं नाका.

(दोगय वतात. देखाव सोंपता.)

## देखाव दुसरो

[माचयेर उजवाड. उजवाडांत जाण्टेलो मुर्तिकार मुर्तीचें काम करता. तितल्यांत भायर वचपाचो भेस केल्लो ताचो भुरगो - बाबू प्रवेश करता. बापूय ताका पळयता पुणून कांयच उलयना. पर्थून आपल्या कामांत गुल्ल.]

मुर्तिकार : येदोळच्यान पळयतां हांव तुका तूं खुटो सो उबो आसा. मातसो हात तर घाल म्हज्या वावरांत. हो तो मातयेचो गुळो मातसो हांगा दवर.
भुरगो : हांव ना. हांव भायर वचपाक न्हेसलां न्हू. म्हजे कपडे लोळटले.
मुर्तिकार : तुका सांगलें तीच चुक केल्ली हायें. वच...चल तूं.
भुरगो : दाय.
मुर्तिकार : कितें?
भुरगो : आयज इंटरव्यूक आपयला.
मुर्तिकार : मागीर वच.
भुरगो : वयतां. पूण,....बशीक...येवपाक वचपाक आनी ....दनपरां जेवणाक उरलों जाल्यार....
मुर्तिकार : पयशे मरे? तुजे आवयकडेन माग. म्हजेकडेन ना.
भुरगो : आईन तुजेलागीं धाडला. तिचेलागीं ना खंय.
मुर्तिकार : आनी म्हाज्यायकडेन ना.

भुरगो : हांव जाणांच आशिल्लों.

मुर्तिकार : कितें तें?

भुरगो : तूं म्हाका पयशे दिवचो ना म्हूण.

मुर्तिकार : जाणांच आशिल्लो जाल्यार कित्याक मागूंक येयल्लो?

भुरगो : केन्नाच बऱ्या कामाक भायर सरता तेन्ना तुजें सदींच अशेंच आसता. केन्नाय म्हूण तुजेकडल्यान बरें उतर मेळना. म्हाजें बरें जाल्लें कोणाकच नाका तें जाणां हांव.

मुर्तिकार : हें पळय कित्या कितेंय उलोवन म्हाजी तकली पिकार करूं नाका.

भुरगो : खरें उलयल्यार तकली पिकार जातलीच तुजी. कित्याक जावचिना? जाण्ट्याक चूक दाखोवन दिता न्हू हांव.

मुर्तिकार : (हातांतलें थंयच उडोवन) परथें उलय, परथें उलय रे. कितें उलयता तूं? शाबुध्दीर आसा मरे. ...तुज्या मुखार आसा तो तुजो बापूय... रस्त्यावयलो मनीस न्हू. बापायकडेन उलयतना रेस्पेदान उलय. हालीं हालीं पळयतां तुजें खुबच वाडलां. तूं हाताभायर गेला.

भुरगो : घरांत माया मेळना तेन्ना अशें घडूंक पावता.

मुर्तिकार : उरफाट्या तोंडान जाप आनी करता म्हाका. तोंड धरून फोडटलों. आरे, ....आतां मेरेन कितल्यो इंटेरवी जाल्यो तुज्यो? एक तरी इंटेरवी तूं पास जाला? तुजेपरस कमी शिकिल्ले लागले बाबडे आपल्या पोटाक. आनी, ....तूं कॉलेज करूनय बेकार. ....बारायेकच दोन वर्सां काडलीं. आयज हांगासर आपयला, फाल्यां थंय आपयला म्हुणोन सदींच पयशे घेवन सकाळचो घराच्यान भायर सरता आनी आमोरेर भितर सरता. कितल्यो जाल्यो रे तुज्यो इंटेरवी? कोणाकच, खंयच कित्याक नाका जाला तूं? ....तुजेंय भरता आयतें मागीर तुका तरी कशें येवजून येतलें. कांय ना म्हणल्यार शंबरेके सुवातींनी वचून येयला आसतलो, पुणून कांयच ना. तुका सांगलें हायेन, शिर्वीस मेळना जाल्यार यो हांगासर म्हाजेकडेन आनी ह्या कामांत पालव दी. पुणून...

भुरगो : म्हाका हे मातयेंत लोळपाचें ना. तूं ही माती कालयता तितलीच पुरो. म्हाजेलागीं इतलें शिकप आसा. हांव लोळचोना हे मातयेंत.

मुर्तिकार : नाका लोळूं? ...आनी हांव तुका आयच्यान हे मातयेंत लोळ म्हुणोन सांगचोयना.....सांगल्यार कुडको काडून उडय म्हाज्या जिबेचो.

भुरगो : तुवें कितलेंय म्हाका सांगल्यार हांव हें काम करचोना. ह्या कामांत तुका कितलो फायदो जाता तो पळयता न्हू हांव. तुजेकडल्यान मुर्त्यो करून घेवन लोक गिरेस्त जाले. तूं उरलो हांगासरूच. कितें जोडलें तुवें इतलो तेप मुर्त्यो करून वा तीं चित्रां करून? .....घरदार पळय आमचें. कोणाय इश्टांक घरा आफोवंक लेगीत लज दिसता म्हाका.

मुर्तिकार : हें पळय म्हाजो हात उबारचे पयलीं चलूंक लाग हांगचो. .....आनी तुका ह्या घराची लज दिसता जाल्यार खंयीय बंगलो बांदून राव. आरे पापया, हांव हे मातयेंत लोळटां म्हुणोन तर तुमचीं पोटां भरतात. तूं ज्यो म्हाज्यामुखार तुज्या शिक्षणाच्यो इतल्यो बढायो मारता तो तुका इतलो कोणे शिकयलो? .....हांव ही माती कालयतां म्हुणोन तूं इतलो शिकूंक पावलो. आरे, हांव हे मातयेंत लोळटां, माती कालयतां तें तुमकां पोटाक मारून व्हय? तुमकां साप्प वाऱ्यार सोडल्यांत व्हय हायें? केन्ना उपाशीं दवरल्यांत? .....हांव हें मातयेंत लोळ्ळां म्हुणोन तर तुज्या फाटल्या दोन भयणांक बऱ्या रितीन लोकां घरा संवसार मांडून दिला... म्हाज्या पोटाक मारून हायें तुमकां वाडयल्यांत. आनी आतां तुज्या तोंडांतल्यान हीं उतरां.... शी! तुजीं हीं उतरां आयकून घंवचेपरस खंयीय वचून जीव दियन... तूं कितें कॉलेज शिकला म्हुणोन तुयें कितें सर्गाक हात लावंक ना. पापया, आजूनय तूं खंयीय भायर सरतलो जाल्यार म्हाज्याचकडल्यान पयशे व्हरता मरे... तूं तुजे आवयकडल्यान घेता खरे पुणून तुजी आवय कितें जोडीक वयता? ...हय, हायेनूच दिल्ले न्हू ते. आनी, आयज तूं म्हाका अशीं उतरां सांगतां? इतले कशे केंस फुटले तुज्या काळजाक?

भुरगो : तुका कितले फावट सांगलें हावें, कोणाकय तरी कितेंय खावोवन म्हाका सर्वीस पळय.

मुर्तिकार : सगळेचकडेन कितें फावोरं जाय पडटा अशें ना. शिर्वीस करपाक दानत बरी जाय पडटा. तुजी दानतूच खोटी. तुजें मनय चंचळ. फाटीं दोनदां तुका शिर्वीस हाडली पुणून तुयें तुज्या शिक्षणाच्या गर्वान त्यो

सोडल्यो. आतां बस वाट पळयत..येतल्यो शिर्वीसो तुका सोदीत तुज्या दारात.

भुरगो : पुणून कितेंय सांग. तुका म्हाजें मातूय पडूंक ना.

मुर्तिकार : हय. मात्तूय पडूंक ना म्हुणोन तुका हायें ल्हानाचो एदो व्हड केलो, ...शिकयलो.

भुरगो : खंयीय पोटाक लागल्यार तुमकांच पोसतलो न्हू?

मुर्तिकार : हय. हय. हां. ह्या असल्या उतरांनी पोसलीं तुयें आमकां. पुरो पुरो....धन्य जालो जीव हां, तुजीं हीं उतरां आयकून.

भुरगो : म्हण्टकच, म्हाका आयज पयशे मेळचे ना तर..

मुर्तिकार : म्हाकाच खंयीय घाण दवर आनी घे तुका कितले जाय ते पयशे. येदो व्हडलो जालो तूं, तुजी अर्थ अपुरबाय केली ती आतां तूं अशेतरेन फारीक करता न्हूं आमकां. कर... पयशे मागतना मात तरी चींत मरे. पुणून कांयच येना तुजे तकलेंत....हांगासर मातसो आदार दिल्लो जाल्यार तुकाच मेळटा न्हू कितेंय तरी....पुणून ना, तुज्या कपड्यांचें तुका चड.....कुडींत जीव आसासर घालता तुमकां वावर करून. चवथी उपरांत आतां मातशें हें एक गिरायक मेळ्ळां. पुणून तेजें लेगीत काम करपाक म्हाजें चित्त थाऱ्यार दवरूं नाका.

भुरगो : हें जें चित्र कोणे करूंक सांगला तो म्हूण कितें तुका लाख दितलो? ...तोय हेरांवरी हातार कितेंय उडोवन वा मागीर दितां हां म्हूण सांगून पळ काडटलो.

मुर्तिकार : तो कितेंय करूं. तेचें तुका लागना...तुजें तूं पळय. म्हाजेकडेन तूं आनीक लक्ष दिवं नाका.

भुरगो : पूण येता न्हू तें तकलेंत.

मुर्तिकार : तकली आसा तर तुका? ...जाल्यार शाण्याभशेन उलय मरे. अशीं उतरां दिवन म्हाज्या काळजाक खतां कित्याक घालता? तुजो बापूय मरे हांव.

भुरगो : बापायक भोव पडलां पुताचें. बाकीचे बापूय आपल्या पुतांखातीर कितें कितें करतात तें पळयल्यार...

मुर्तिकार : हें पळय, म्हाका आनी तिडक हाडूं नाका. तुजेकडल्यान बापायचें

कर्तव्य जाणून घेवपाक हांव किते तुगेर जल्माक येवना. कळ्ळें. वॉस हांगासरल्यान तोंड घेवन...

भुरगो : वयतां...वयतां. ह्या घरांत म्हाजो असो कोण नाच. कोणाकच पडून वचोंक ना म्हाजें. कित्याक जल्माक येयल्लो म्हूण नकळो हांव?

[तिडकीन हातांतली वस्त मातयेचो गुळो भिरकटावन मारता आनी भायर वता. तो ज्युस्त मुर्तीचेर पडटा आनी मुर्तीचे कांय अवयव मोडून पडटात. तें पळोवन मुर्तीकार शिवराम खंतीत - दुखी जाता. कळवळटा.]

मुर्तिकार : आरे, आरे पापया, दळिड्ऱ्या किते केलें तुयें हें? म्हाजेवयली तिडक हे मुर्तीचेर काडली तुयें? म्हाजे तकलेर तरी मारून म्हाका सोमतोच उडोवपाचो...इतलो तेप जालो रात-दीस एक करून म्हाजो जीव वोतून हांव ही मूर्त घडयतां... आनी आतां एकाच खिणांत तुवें ही मूर्त मोडली. आरे, कशें बरें जातलें तुजें? हें नक्षीकाम करपांत म्हाजे इतल्या दिसांचे हे कश्ट तुयें मातयेभरवण केले...आतां किते करू हांव? ...(कुडके एकठांय करीत) हे कुडके जोडपाक तरी मेळटा? तेय ना. हे परत करप म्हळ्यार दिसूय साप्प उणे आसात. सामको त्रासांत उडयलो तुयें म्हाका.... आरे, तूं येवचो ना म्हाका आदार दिवंक, म्हाकाच करूंक जाय न्हू तें...तूं फकत उलोवंक जाणां...हे करपाक कितले त्रास पडटात तें खबर ना तुका...देवा, ...किते करूं हांव आतां....किते चल्लां म्हाज्या ह्या संवसारांत...म्हाज्याच रगताच्या पुताकडल्यान म्हाका अशीं उतरां? खयच्या जल्मातलें पाप हांव भोगतां? ...देवा, ...तुयें आयकलां न्हूं? तेणें म्हाका अशें उलोवचें? ...तूं पळयता न्हू तो कसो झगडटा म्हाजेकडेन तो... हायें, तेजखातीर कायच करूना खय...किते जोडलां काय म्हुणोन तो म्हाका विचारता, देवा, खरेंच हायें कांयच करूंक ना म्हाज्या संवसाराखातीर? ....बायले भुरग्याखातीर? ...त्या इल्ल्याश्या शेता

कुडक्यार आनी तुयें म्हाका फावो केल्ल्या हे कलेचेर आयजमेरेन हांव जियेलों. ....तिजेरूच म्हाज्या बायल भुरग्यांक राखलीं... पोसलीं... तुयें दिल्ल्या कलेचेरच हायें म्हाज्या धुवांचीं लग्नां लायलीं...पुताक दोन उतरां शिकयलीं, आनी, आनीक कितें जाय म्हाका, तुयें म्हाज्या नशिबांत कितें घातलां तें मेळटा म्हाका.... मनशान चड आस धरूंक जायना हें तुयेनूच सांगलां न्हू देवा...हांव चड आस धरिना देवा, ...खरेंच हांव तुज्या देण्याचेर समादानी आसां... सातिस्फेत आसां....आयज ह्या पुतान उलयला तें आयकलां न्हू तुयेंन..... तीं उतरां म्हाज्यान सोसूंक जायना.... वाग कसो येतालो म्हाका खावपाक... कोणाय बापायच्या नशिबांत मात अशें दिवं नाका देवा, रगताच्या पुताकडल्यान तांकां अशीं काळजाक झोंबता अशीं उतरां आयकूंक दीवं नाका. ते परस मरण तरी दी. म्हण्टा पळय कसो आपलें बरें कोणाक पळोवपाचें ना म्हुणोन... घरांत खंय तेका माया मेळना, देवा इतलीं आमी दुश्ट जालीं व्हय? ...पोटाक मारून हेंका ल्हानाचीं व्हड केलीं आनी म्हाका हीं उतरां? ...नाका, नाका, काळीज सामकें तुट्टा देवा म्हाजें... म्हाज्याच पुताकडल्यान म्हाका अशीं उतरां आयकुपाक मेळप म्हणल्यार .. खरेंच हांव दळडिरो? ...पातकी? ...कांयच उपेग ना म्हाजो? ...(इतल्यांत ताच्या काळजांत खर कळ येता.)

आवयस्स्! हें कितें जाता म्हाका? काळजांत कळो श्यो येतात.... देवा, आवयगे, म्हाज्या हड्ड्यांतं कितेंतरी जाता... सोसूंक जायना देवा... आगो, ....आगो खंय गेलें गो तूं? ...बेगीन, बेगीन धांवून यो. म्हा..का कितेंतरी जाता. आगो... (तो हड्ड्यार हात घेवन तसोच कोसळटा. तेचवेळार घरकान्न आकांतान धांवत येता.)

घरकान्न : आगा, ...आगा कितें जालें तुमकां...? आरे देवा, ...कोणूय तरी पावात गे म्हाका...येयात रे... बाबू, ...बाबू...बेगीन यो रे .... अशे हात-पांय कितें गळयतात तुमी? उलयात. तुमकां कितें जाता? (ताका सांबाळटा आसतनाच आकांतान एकच किळांच मारता. तातूंतल्यान तो सोंपिल्ल्याचें कळटा.) ना, ना धनया ऽऽऽ म्हाका

अशें एकटें सोडून वचूं नाका धनया ऽऽऽ.

[तिच्या मोठमोठ्यान चलिल्ल्या रडपांतच दुखी संगीताचे धुनीचेर प्रवेश सोंपता.]

**देखाव सोंपता**

## देखाव तिसरो

[भुरगो आनी ताची आवय आपल्या घराचे पडवेर बसल्यांत आनी उलयतात.]

घरकान्न : बाबू, दाय गेल्यार आतां म्हयनोभर जायत येयलो, तूं असो कितलो तेप घरांत बसून रावतलो? कशें जातलें पुता हें आतां? तूं काय ल्हान ना... सगळो भार तुजेरच आसा. तुकाच जाण्टो करून गेलो न्हू तुजो बापूय! आतां खयीय तरी हात-पाय हालोवन पोटाचो विचार कर.

भुरगो : आई, तूं बेठोच विचार करूं नाका... पळयता हांव. म्हाज्यो खटपटी चालू आसात.

घरकान्न : घराकडेन बसून कसल्यो रे खटपटी? राव.. तसोच बसून राव पायार पांय उडोवन .. शिरविसो येतल्यो तुका सोदीत.

भुरगो : तूं मातशी उलोवं नाका पळोवया ...हो, तो पळय. कोणतरी... खाडयो, चेपेकार...पारवलोसो ...आमचेच घरावटेन येता... हय...आमगेरच तो...चल तूं भितर...आनी ताचेमुखार बी बोवाळ घालूं नाका हां.

घरकान्न : वयतां. तुजें तितलें मात आयकुवचें. चल, चल.. हे तें कदेल सारकें दवर थंय...ताका बसूक. आमगेरच येता तो.

(चित्रमोगी येता)

चित्रमोगी : हॅलो.

भुरगो : (दुखी आशिल्ल्यावरीं) यो.. भितर यो.

चित्रमोगी : नायस टू मीट यू.

भुरगो : यो....बस.

चित्रमोगी : थँक यू.

(दोगूय कांय वेळ मोने. उपरांत)

भुरगो : (स्वगत) ...इतलो वेळ जालो हो ओगी कित्याक? हांव तरी हाजे लागीं कसो आनी कितें म्हण उलोवं. म्हाका जाप दिवंक येयला म्हण्टकच ताणेंच पयलीं सुरवात करपाची...आनी हो असो कोणाक सोदलेल्याभशेन हेवटेन - तेवटेन पळयता काय? ...काय वाट चुकून बी आमगेर पावला हो? हो फोरेनर ... शेर्त! चुकून पावला आसतलो.

चित्रमोगी : व्हेर इज ही?

भुरगो : (अचकीत भानार येवन) हां...कोण तो? ....तूं कोणाक सोदता?

चित्रमोगी : व्हेर इज ही? ओह! सॉरी. (तुटक तुटक हिंदीतल्यान उलोवपाचो यत्न करता...) वो कहाँ है?

भुरगो : कोण?

चित्रमोगी : वो...वो हमारा आर्टिस्ट मिस्टर शिवरामा बुडा आदमी, किदर है? ...उसे बाहर बुलाओ. मैं उसे मिलने आया हूँ.

भुरगो : माफ किजिए वो अब इस दुनिया में नही है.

चित्रमोगी : मटलब?

भुरगो : दाय आमकां सांडून देवा घरा गेलो...वो ये संसार छोडके चला गया...अब इस दुनिया में नहीं रहा. ही डायड...

चित्रमोगी : व्हॉट? ...ओह गॉड ! मे हीज सोल रेस्ट इन पीस. आय एम सॉरी. लेकीन ये कैसा हुआ?

भुरगो : तुमी ताका... (गोंदळून) आप उसे क्यों मिलना चाहते थे?

चित्रमोगी : ये कब हुआ? ...किटना दिन हुआ? ...मै जब पिछले बार आया था तो वो अच्छा था... किटना सुंदर मुर्टियाँ बनाटा था.. और...अचानक?

भुरगो : आप उसे क्यूं मिलना चाहते थे?

चित्रमोगी : मै? मेरा नाम लुईस लेयमन. मै अमेरिका से आया हूँ. मैने उसको एक गोडेस की मुर्टी बनवाने के लिए कहाँ था. लेकीन अब... मेरा क्या होगा?

भुरगो : (गैरसमजान) आतां तुमी तुमचें चिंतता... चोरांनो, म्हाजो दाय गेलो तो तुमकांच लागोन...तुम लोगोंने मेरे पिताजीको मार डाला है...तुमीच म्हाज्या दायक माल्ला. इतलो तेंप मुर्ती करून व्हरतात....मातयेच्यो...कागदांच्यो, प्लास्टर ऑफ पॅरिसाच्यो...पुणून पयशे केन्ना दितात तुमी? दिलेच जाल्यार कंजूसपणान. तुमी मात त्या मुर्त्यांचेर भरपूर जोडात. तुमचेखातीर त्यो मुर्त्यो, तीं चित्रां करून दिवपाक म्हाजो दाय रात-दीस मातयेंत लोळ्ळा...थंयच्यानच तेका ती पिडा बळावली....आनी एका दिसा....तो आमकां सगळ्यांक सोडून गेलो....आतां कोण आसा आमकां राखणदार? ...अभी कौन संभालेगा हमको? अब हम किसके आधारपर जियेंगे?

चित्रमोगी : ओह! तूम जो कूछ बोलटा है वो थोडा थोडा मेरे दिमाग में आटा है लेकीन तूम इटना गुस्से में क्यूं बोलटा है? ...टूम कौन हो उसका?

भुरगो : हांव कोण म्हणल्यार...हांव ताचो पूत. बेटा है उसका. आय ॲम हीज ओन्ली सन.

चित्रमोगी : ओह! आय ॲम सॉरी सन. तुम्हारे फादर की खबर सुनकर बहोट दुख्र डुख्र होटा है। मैने इंडियन मैगजीनपर उसका इंटरव्यू पढा था और मैं इसलिए यहाँ आया और मैने तुम्हारे फाडर को एक श्युडर सी मुर्ती बनवाने को कहाँ...हमें भारटियोंने बनायी हुई मुर्टियाँ बहोट आच्छे लगती है...टूम इंडीयन ....भारटीय लोक बहोट आच्छे कलाकार है...हम तुम्हें बहोट चाहटे है. ...टूम इटना बडा कलाकार होटे हुए भी इटने पूअर क्यो रहते है.?...टूम कलाकार है और कलाकार ऑलवेज रिच होटा है...महान होटा है...हमारे देस मे इसकी कमी है...इसके बडले किटना भी पैसा मांगो टूम, हम तुम्हें डेंगा, ..लेकीन हमें मुर्टियां दो...हम वो पाकर ...मै कैसे कहूँ ...कहने को भी हमारे मूँह से वर्डस नही आटे.

भुरगो : कित्याक? कित्याक उतरां मेळना? ...आमच्या मुर्त्यांचेर तुमी खूब जोडटात हें सांगपाक उणेपण दिसता?.... कह दो ना की हम इसपर बहूत कमाते है.

चित्रमोगी : व्हॉट नोनसेंस यूआर टॉकींग? प्लीज ....प्लीज...कूल डावन...बी कूल....सुनो...सुनो, तुम्हारे आर्ट को इस कॅला को टूम लोग किटना चाहटे है ये हम नै जांटे, लेकीन हॅम बहोट चाहटे हैं. हॅम तुम्हारे इस कॅला को बाजार में नहीं बेचटे...हॅम टुमारी इज्जॅट करटा है...टुम्हारे टरह हॅम इसे बाजार में नहीं रॅखटे..ये हॅमे इंटरनल प्लेजर याने...व्हॉट यू कॉल इट....आंटरीक सॉमादान...खुशियाँ डेटा है. टुमारी इस कॅला को डेखकर हॅम ॲपना गम, डूख भूल जाटा है और इसलिए हॅम किटना भी पैसा डेकर उसे पाटे है...ॲपनाटे है...लिव्ह इट. ये बटाव मॅरने के पॅहले क्या टुमारे पिटाजीने हॅमारे लिए कुछ बनाया है?

भुरगो : हां. किया है. पुणून तें चित्र...तें चित्र अर्दकुटेंच उरलां.

चित्रमोगी : व्हॉट? मटलब?

भुरगो : देखो, हमारे पिताजीने याने फादर ने तुम्हारे लिए जो चित्र, मुर्ती बनायी थी वो इंनकंप्लीट है. मेरे पिताजीने या फादर वो मुर्टी कंप्लीट...पुरा ...नही कर सके.

चित्रमोगी : प्लीज. क्या मै डेख सकटा हूँ?

भुरगो : पुणून तें इनकंप्लीट आसा.

चित्रमोगी : लेट इट बी. हॅम उसे डेखना चाहटे है.

भुरगो : बरें आसा...यो म्हाज्या वांगडा...कम विथ मी.
(भुरगो ताका मुर्ती करपाचे कुडींत व्हरता)
प्लीज टेक केअर....पांयांकडेन मुर्त्यो, मातये गुळे आसात.. प्लीज वेट ॲट द...डोअर...मातसो काळोख आसा कुडींत...लायट पेटयतां...राव...प्लीज..
(लायटीचो स्वीच दाबिल्ल्याचो आवाज. लायट पेट्टा).
...हें पळयात...ये देखो...see

चित्रमोगी : ओह! ब्युवटीफूल! ब्यूवटीफूल ! मार्वलस! बहोट श्युंडर. रियली युअर फादर वॉज अ ग्रेट ....ग्रेट आर्टीस्ट. ब्युवटीफूल..लेकीन ॲब ये टूम कंप्लीट कर सॅकटे हो. व्हाय डॉच्यू ट्राय?

भुरगो : सॉरी, म्हाका जमचे ना तें. म्हाका...मुझे उसका कोई एकस्पेरींयस नही है।

चित्रमोगी : लेकीन क्यूँ?

भुरगो : कारण...मै ये कला नहीं जानता. मै नही सिखा.

चित्रमोगी : ओह ! सॉरी. कोई बाट नै. मै इसे स्विकार लूँगा. मै ये मेरे साट लेके जाएगा....बोलो क्या किमट है इसकी?

भुरगो : पुणून...तें इनकप्लीट आसा.

चित्रमोगी : कोई फरक नै पडटा, माय सन...ये इनकप्लीट नै है. ...इसकी श्युंडरटा को टूम नै समज पाओगे. ये बहोट अच्छा दिखटा है. मै इसे खरीड लुंगा. बोलो क्या किमट है इसकी? टॅन थावजंड...या टवेंटी थावजंड? नो..नो टुमारे फादर के इस कॅला की कोई भी किंमत नही कर सकटा है...इट इज अ ग्रेट आर्ट. लेकीन मै सिर्फ टुमारे फादर की याद में, टुमारी मडट के लिए इसका ...पचास हजार...फिफ्टी थावजंड का चेक देता हूँ...ये लो. फिफ्टी थावजंड का चेक. ओके? टेक इट.

भुरगो : कितें? फिफ्टी थावजंडचो चेक?

चित्रमोगी : यस माय सन. विथ ए ग्रेट प्लेजर.

भुरगो : (चेक हातांत घेता. चित्रमोगी लुईस मुर्तेलागीं वचून मूर्त बारीक नियाळटा) कितें? तुयें हे चित्र अर्दकुटेंच आसूनय घेतलें...सादें मातयेचें, रंग विरयत आसून लेगीत...आनी तेंय पन्नास हजारांक...खरेंच म्हाका म्हाज्याच दोळयांचेर विश्वास बसना...दाय...(स्वगत) दाय...दाय इतलो तेंप तुजे हे कलेचो हांव दुस्वास करीत रावलों. हे कलेसावन हांव सामको पयस रावलों. पुणून आयज...ह्या फोरेनराच्या तोंडातल्यान ...करणेंतल्यान तुज्या ह्या कलेचें मोल म्हाका कळ्ळें. दाय, ..कितें हायें हें केलें...हायें ही कला शिकून घेतिल्ली जाल्यार...खरेंच म्हाजो फुडार पर्जळटलो आशिल्लो, पुणून हांव कर्मदाळिद्रो..कपनखायरो...हायें म्हाज्याच हातान म्हाज्याच पांयार फातर घालून घेतलो रे दाय, आतां, ...आनीक कोण शिकयतलो म्हाका ही कला?...दाय, तुजें हें चित्र, मूर्त अर्दकुटेंच उरलें... अर्दकुटेंच उरलें. पुणून दाय ह्या तुज्या

चित्रावांगडाच मुर्तेवांगडाच म्हाज्याय संवसाराचें चित्र अर्दकुटेंच दवरलें रे दाय, अर्दकुटेंच उरलें...

[हुंडक्या हुंडक्यांनी रडटा आसतनाच चेक दोनीय हातांनी हड्ड्याकडेन धरून मोठमोठ्यान रडत थंयच दिमखुऱ्यांनी बसता. तेच वेळार चित्रमोगी ते मुर्तेक व्हरपाक हात घालता. थंयच दोनय अभिनयांत फ्रिज.]

**तिसरो प्रवेश सोंपता**

# असत्यमेव जयते

| | | |
|---|---|---|
| पयलो प्रयोग | : | २५/१०/२००१ |
| थळ | : | सावइर्डे शारदोत्सव |
| दिग्दर्शन | : | उल्हास यशवंत नायक |
| संस्था | : | स्नेहमाची, म्हाइडोळ |

[**मा**चयेर उजवाड. माचयेचे मदले सुवातेर एक वेदी, तिचेर स्पॉट. स्पॉटांत वेदीचेर तीन माकड. दरेकलो आपल्या तोंडार, कानार आनी दोळ्यांर हात धरून आदर्श शे बसल्यात. तांचे फाटल्यान तांकां फाट करून सामान्य मनीस. वेदी फाटल्यान आशिल्ल्या निश्पर्ण रूखाक ताची फुडा. ह्या रूखाच्या खांदयांचेर देसांत मातिल्ल्या अत्याचार आनी भ्रश्टाचाराचीं कांय प्रतिकां. देखीक, वखदां बाटल्यो, इंजेक्शनां, आर्म, नोटींची माळ, राजकारणी टोपी, पिंजकी ओडणी, बॉम्ब आनी हेर वस्ती हुमकळटना दिसतात. निश्पर्ण रूखाफाटल्यान देसाचो, शांततायेचें प्रतीक दाखोवपी बावटो. माचयेच्या दोनूय वटांनी दोन ल्हानश्योच वेदी जांचो वापर माकडरूपी आदर्श आपलें तत्वज्ञान वा घडणूक सांगपाक करतात. मजगती स्पॉटांतलो उजवाड प्रखर जाता. सारे जहां से अच्छा..... हे गाण्याच्या संगीताचे सूर आयकूंक येतात.]

सा. मनीस : (प्रेक्षकांक फुडो करून प्रार्थना म्हणटा.)
भारत म्हजो देस. सगळे भारतीय म्हजे भयण-भाव. हांव म्हज्या देसाचो मोग करतां. तांच्या गिरेस्त आनी भोवरूपी दायजाचो,

हांव अभिमान बाळगितां.

आ. माकड : (कोरस) हांव अभिमान बाळगितां.

सा. मनीस : त्या दायजाक सोबशी हांवें चलणूक दवरची हे खातीर हांव सदांकाळ पोटतिडकेन वावुरतलों.

आ. माकड : (कोरस) सदांकाळ पोटतिडकेन वावुरतलों.

सा. मनीस : म्हजे आवय-बापूय, गुरूजन आनी जाण्टेले हांकां हांव सदांच भौमान दितलों आनी सगल्यांकडेन, बरेपणान चलतलों.

आ. माकड : (कोरस) बरेपणान चलतलों.

सा. मनीस : तांची खुशालकाय आनी उदरगत हातूंतच, म्हजें सूख आसपावता.

आ. माकड : (कोरस) म्हजें सूख आसपावता.

सा. मनीस : म्हजो देस आनी म्हजे देसभाव हांच्या बऱ्याक, निश्ठेन वावुरपाचो हांव सोपूत घेतां.

आ. माकड : (मोठमोठ्यान हांसतात.हळू हळू उजवाड माचयेर फांकता.)

सा. मनीस : (ताका अजापान पळयता)

आ. मा. १ : सामान्य मनशा, सभाग्या कसलो सोपूत घेता?

मनीस : कसलो म्हळ्यार? तुमकां म्हजी भास कळना?

आ. मा. ३ : (हांसतात) आमकां सगळ्यो भासो येतात. आमी २२ भासा जाणात. तूं मात एकूच भास जाणा.

मनीस : एकूच भास?

आ. मा. २ : हय. मनीसपणाची.

मनीस : आयज तीच गरजेची आसा.

आ. मा. १ : ना. आशिल्ली.

मनीस : आशिल्ली म्हळ्यार?

आ. मा. २ : आशिल्ली म्हळ्यार आता ना. (हांसतात)

मनीस : तुमी चुकतात.

आ. मा. ३ : ना. आमी चुकनात. कारण तुजी भास आता कोणाकच कळना.

मनीस : कित्यावयल्यान म्हणटात तुमी? मनीस आजून जिवो आसा. ताका ही भास कळूकच जाय.

आ. मा. २ : मनीस जिवो आसा रे. पूण तो जियेता तें ताचें खरें जिणें आसा व्हय?

आ. मा. ३ : मनीस जिवो आसलो म्हण तांच्यात कितें मनीसपण आसताच अशें ना.

मनीस : पूण तांच्या मुखार तुमी येदे व्हड आसात ते?

१,२,३ : आमी?

मनीस : हय तुमी. येदे व्हड आदर्श. आयजमेरेन हांवें आनी म्हज्या सगळ्या भयण-भावांनी तुमकां आदर्श मानल्यात. आमच्या फुडाराच्या जिणेचो हारसो मानला.

आ. मा. १ : (हांसता) तुमच्या फुडारी जिणेचो हारसो मानला? तातूंतय कांय एक दुबाव उरना खरो.

मनीस : तुमी अशें कित्याक उलयतात?

आ. मा. ३ : हे सामान्य मनशा, आजूनय तुजे दोळे उक्ते जावंक ना?

मनीस : हांवें खंय दोळे धांपल्यात?

आ. मा. १ : आरे सभाग्या, खऱ्या अर्थान भितल्ले दोळे उक्ते करून पळय. मनाचे... अंतस्करणाचे.

मनीस :म्हजें मन सामकें उक्तें आसा. म्हजें अंतस्करण सामकें नितळ-निवळ आसा.

आ. मा. २ : तुजें आसत रे, पूण.. हेरांचें?

मनीस : तुमकां हेरांचो दुबाव कित्याक?

आ. मा. २ : तुवें आमकां आदर्श मानला देखून.

आ. मा. ३ : हेरांनी आमकां आदर्श मानूंक ना.

आ. मा. १ : १९४७ वर्सा तूं परकी सत्तेच्या चपक्यांतल्यान मेकळो जालो आनी केद्या व्हड समादानान तुवें मेकळो स्वास घेतलो. न्हय? त्या सुवाळ्याची याद तर तुमी आयजय दरवर्सा मनयत आसात.

मनीस : तेन्नाची ती खोस सांगपाक उतरां लेगीत उणी पडटात. घडये हेच गजालीक लागून आमी आयजय....

आ. मा. १ : तुज्या म्हान आतम्यान रामराज्याचें सपन येवजून आमकां तिगांकय जल्माक घाल्ले.

मनीस : तुमी जल्माक येवप भोव गरजेचें आशिल्लें. देखुनच म्हज्या

म्हापुरसान..

आ. मा. १ : थंयच चुकलो तुजो म्हापुरूस....

मनीस : कितें?

१/२/३ : हय.

आ. मा. २ : आरे देवान मनशाक जल्माक घातलो. ताका दोन दोळे दिले, दोन कान, दोन पांय, दोन हात दिले. दातांची दोन दाडवणां दिलीं. पुणून तातूंत लेगीत बदल दवरलो... बऱ्या वायटाचो सुमेळ मनशाचे मतींत भरलो... ताच्यांत कसलें ना कसलें व्यंग हें दवरलेंच.

आ. मा. ३ : तरी आसतना सभाग्या, हो मनीस देवापरसय व्हड जावंक सोदूंक लागलो.

मनीस : तुमी म्हाका कितें सांगूक सोदतात?

आ. मा. १ : सामान्या, तुमच्या म्हापुरसान आमकां घडयले खरे पुणून तुजीं हेर भावंडां ह्या म्हापुरसा परसूय मुखार पावलां मारून गेलीं.

आ. मा. २ : तुज्या म्हापुरसान घडयल्ल्या ह्या रामराज्याच्या ह्या तीन आदर्शांचो हेरांनी वेगळोच अर्थ लावन घेतलो आनी आपलें जिणें फुलोवन... रंगोवन घेतलें.

आ. मा. ३ : रामराज्याची तुम्त थंयच उरली. कूस लावन रावणायन गावंक लागले.

मनीस : म्हज्या आदर्शांनो, तुमी अशे खंतींत जावं नाकात. जो मेरेन हांव आसा तो मेरेन तुमचे जिवाक धोको ना.

१/२/३ : ना सामान्या, तुजें जिवितूच आतां सुरक्षित उरूंक ना. देखुनच तुका आमी शिटकायतात.

मनीस : कितें?

आ. मा. २ : हय. आमी जें कितें सांगतात तें तूं फट मानतलो. कारण, सत कोणाकच मानवना.

आ. मा. ३ : सत्याक फुडा करपाची कापासदाद कोणाभितर उरूंक ना देखून तुका हें फटूच दिसतलें.

मनीस : म्हळ्यार, तुमी जे म्हजे-आमचे आदर्श आसात ते आतां आदर्श

उरूंक ना, अशें बी कितें तुमकां म्हणपाचें बी ना मूं?

आ. मा. २ : जल्माक आयिल्ले आदर्श सासणाचे जिवेच उरतले सामान्या, पुणून तें जिणें काळाचीं पावलां वळखून जगपाचें आसतलें.

आ. मा. १ : मनशाचें हांशे-रडणें जशें उप्राशिल्ल्या वातावरणाक धरून आपलें रूप बदलता, दाखयता तेचपरीन आमी- तुमच्या म्हापुरसान घालून दिल्ले आदर्शय. तुमी जे नदरेन पळयता तेच रूपांतल्यान... नदरेंतल्यान तुमकां जाणवतले... भासतले.

मनीस : ना, तुमी खऱ्यानीच आदर्श आसात देखुनच हांव ह्या शांतताप्रीय देसांतल्यान ते हेरांक.. संवसाराक दाखयतां.

आ. मा. २ : तीं तुजी पिशेंपणां... भावराथपणा... मोठेपणा आसात.

आ. मा. ३ : सभाग्या हो संवसार, तुज्या भोंवतणीं दिसता तीं भावंडां तुका दिसता तशीं ना रे.

मनीस : पुणून ताणींय तुमकां आदर्श मानल्यात. मागीर?

आ. मा. ३ : ना ना. तांणीं तशें सवंग घेतलां.

मनीस : म्हाका पटना तुमचें.

१/२/३ : तुका पटोवन घेवचेंच पडटलें.

मनीस : पूण कसो हांव तुमचेर भरवंसो दवरूं?

आ. मा. २ : कसो भरवंसो दवरूं म्हणटा? ... यो.. यो.. असो यो भावराथी मनशा.

आ. मा. १ : भोळ्या मनशा... हें पळय तुमच्या ह्या आदर्शांक कुशीक दवरून ते कशे मस्तपणान जियेतात तें पळय...

आ. मा. ३ : पळय.. ह्यो तुज्यो भोंवतणच्यो घडणुको आनी सांग आमकां तांच्यात आमी खंय आसात ते?

[तिगय आदर्श माकड सामान्य मनशाक एके दिकेकडेन बोट दाखोवन घडणूक दाखयता आनी सामान्य मनीस ते दिकेक पळयता. देखाव फ्रिज. काळोख.]

## देखाव दुसरो

[माचयेर मजगतीचे सुवातेर स्पॉट. स्पॉटांत सत्ताधारी मनीस. हीं सवंगां आदर्श माकडूच करतात अशें दाखोवंचें.]

सत्ताधारी : भिखू, हें पळय, आनीक कोणाक भितर धाडूं नाका. म्हाका आयज खुबूच पुरो जालां. आतां आनी कोणाच्योच कागाळी वा मागण्यो म्हाका आयकुपाच्यो ना. हांव आतां मातसो रेस्ट घेतां आनी, हें पळय, तुका सांगिल्ली ती म्हजी भायली वेवस्था तुवें करूक ना?

भिखू : सायब, आतांच अनाथाश्रमांतल्यान देविकार्जिचो फोन आयिल्लो. तिणे एकलेक धाडटां म्हळ्या. थोड्याच वेळान पावतली.

सत्ताधारी : बरें आसा. ती येतकच सदचेबशेन कॅबीन सामकें बंद. ओके... म्हाका खुबच पुरो जाल्लां... मातसो आंग सदळ करून घेतां... ती येतकूच तूं बंगीन गेल्यार जाता. भायर कोण उरूंक ना मरे?

भिखू : सायब, बरोच वेळ जालो, एक चली तुमकां मेळपाक रावल्या.

सत्ताधारी : चली? बरें आसा. (भायर पळयल्ल्याचे हावभाव) आफय ताका भितर आनी हें पळय हे वेळार ती अनाथाश्रमातल्यान आयल्यार तिका भायरच थांबय....ओके?

भिखू : बरें सायब... (वेंदीवयल्यान देवून भायर गेल्ल्याचो अभिनय) (थोड्या वेळान वेंदीवयल्या स्पॉटांत एक चली प्रवेश करता.)

सत्ताधारी : यो.. यो.. (वयर सकल नियाळीत) बस. अशें हांगासर बस. नांव कितें म्हळें?

चली : कामिनी गावकार.

सत्ताधारी : बरें आसा (तिजेवयली नदर कुशीक काडिनासतना)

चली : कितें?

सत्ताधारी : नांव, आनी...? सांग, कित्याक आयिल्लें? (तरी पळयत रावता)

चली : सर, म्हाका आमच्या सरपंचान धाडिल्लें.. गांवकार सरपंचान, तेणी तुमकां सांगून दवरतां म्हणलेलें... (भिडेता)

सत्ताधारी : (चिंतून याद जाल्लेवरी...) हां...हां.. जाली याद... गांवकार सरपंचान मुगो धाडलां तुका?

चली : हय.. हय. सर म्हजी परिस्थिती सामकी गरिबीची आसा. घरांत धाकटीं भावंडां आसात. आवय आसा, बापूय ना. देखून सर आवयक एकलेकच लोकालो वावर करून आमचें पांच-स जाणांचें पोट भरचें पडटा. सर.. हांव णववीच शिकलां.. सर.. तुमी जर म्हाका खंयी.. खंयी म्हणल्यार .. खंयच्याय ऑफिसांत वा कसल्याय वावराक दवरल्यार... हांव तुमचे पांय धुवन उदक पियेन.

सत्ताधारी : तशें.. तशें उलोवप ना. हां.

चली : सर, तुमी म्हाका खंयीय शिर्वीस दिल्यार हांवूय म्हजे आवयक घर संवसार चलोवंक मातसो पालव दिवंक पावतलें. नातर, कितलो तेंप हांव लोकालीं आयदनां घासूं? खऱ्यांनीच तुमी म्हाका शिर्वीस दिल्यार हांव तुमचे पांय धुवन उदक पियेन...

सत्ताधारी : पांय धुवन उदक पिवपाच्यो गजाली करूं नाका. तें आमचें कर्तव्यच... तुका शिर्वीस जाय न्हय? तुका शिर्वीसेक लायल्यार तूं आमचें समादान करतलें न्हय... तुज्यो कसल्योच कागाळी येवंक उपकारना.

चली : ना सर.

सत्ताधारी : तशें जाल्यार... तुजी रावपाची वेवस्था लेगीत हांगासरूच करतात... तूं सांगता तशें काम केल्यार तुजो पगारय आमी रोखडोच वाडयतले... यो..अशीं भितर बसुया... तुका तुजें काम समजावन सांगतां... चल यो भितर.. (भितर गेल्ल्याचो अभिनय. स्पॉट वेदीर तसोच उरता आनी कांय वेळान काळखांत मात अचकीत चलयेच्यो किळांच्यो आयकूंक येतात.)

चली : (भितर काळखांत) सोड म्हाका.. सोड चांडाळा.. पापया... नाका.. नाका... कितें करता तूं हें... सोड... कोणूय तरी पावात रे म्हाका... सोड दळडिऱ्या...

[किळांच्यो चालू उरतात. बऱ्या वेळान चलयेक अचकीत अस्थाव्यस्त परिस्थितींत काळखांतल्यान स्पॉटाच्या उजवाडांत शेवटून दितात. चली स्पॉटांत येवन पडटा. फाटोफाट सत्ताधारी मनीस कपडे सारके करीत टोपी सांबाळीत स्पॉटांत येता. भिखूक उलो मारता. तो येता. कुरवेनच सत्ताधारी चलयेची वेवस्था करपाक फर्मायता. तसो भिखू चलयेक दुसरेवटेनच्या काळखांत उखलून व्हरता. माचयेर उजवाड फांकता.]

सा. मनीस : (प्रवेश करीत) दळडिऱ्यानो, जनावरानो, एका निरपराध गावभयणीचेर हात घालपाक तुमच्यांतलें मनीसपण शेणलें व्हय? आरे तुमकां आवय-भयणी ना रे? हे गांव भयणीक आदार दिवपाचो सोडून तुमी ताची अब्रू लुटतात... आरे मनीसपण जागोवन मनशाचेर उपकार केल्यार देव तुमच्या वाट्याक दोन पुण्या तरी घालतलो आशिल्लो.

भिखू : हे मनशा, तूं कोणाचेर आरोप करता जाणा मरे तूं...? कोणाचेरय आरोप करतना आपणाकडे पुरावे आसचे पडटात.. मागीरच आपणे उलोवचें.

सा. मनीस : तुजीं शाणेपणां वा कोंदिकां आयकुपाक हांव येवंक ना..

भिखू : हें पळय मनशा. आमचो सायब बऱ्या मनाचो. खरें म्हळ्यार तुजे गाव भयणीची वाट कोणे लायल्या ती आमी नकळ. पुणून हें पळय, सायबान तुजे खातीर म्हळ्यार तुजे गावभयणीची कितेंय वेवस्था करपाक ही मदत दिल्या. (पयशाचें बंडल ताच्या हातांत कोंबपाचो यत्न करता.)

सा. मनीस : कितें? तुमी ह्या गांवभयणीची अब्रू ह्या अशा पयशांनी विकत घेतात..? तुमी मनीसूच मरे कांय जनावरां.. हांव वोगी बसपाचो ना. ह्या अत्याचाराक वाचा फोडटलोंच. ह्या अत्याचाराआड

आवाज काडटलोंच.

भिखू : हें पळय मनशा.. हांवें तुका बरेपणान सांगून लेगीत वा मदत लेगीत केल्यार तूं आयकना तेन्ना तुजोच आवाज म्हाका बंद करचो पडटलो. (ताच्या कॉलराक धरून मारपाचो यत्न करता.)

सा. मनीस : चोरांनो तुमी म्हाका मारतात.. तुमचें बरें जावंचेंना..

भिखू : (मारतां मारतांच) आनी ह्या फुडें सायबाच्या आड आवाज काडशी जाल्यार आशिल्लो जिवूय तुका वगडावचो पडटलो.

(देखाव फ्रिज. तेचवेळार गिताच्यो वळी दुखी सुरांत आयकूंक येतात)

फुडारी न्हयरे, तूं दलाल
देसाक केलो खाकनवाळ
तारा लैला रे लै लै ला रे,
तारा लैला रे लै लै ला रे

(घुमटाच्या चडट्या साजार माचयेर काळोख)

## देखाव तिसरो

[माचयेर पर्थून मदले सुवातेर स्पॉट. मदले सुवातेर दोन राजकारणी एकमेकांक फाट करून उबे आसात आनी आपणामुखावयल्या भौसाक भाशण दितात. दोगांयचे मुखार नागरीक आसात]

राजकारणी १ : आयज अश्यो ह्यो दोन मसंडी एकामेकां सामकार बांदून तांणीं तुमच्यांतलो भेद हो स्पश्टपणान दाखोवन दिला. इतिहासाच्या दाखल्यानी सुर्वेक हो भेदभाव, जातीभेद वो धर्मभेद चड प्रमाणात जाणवतालो, पुणून उपरांत सुधारणेच्या आनी शिक्षणाच्या नांवा सकल हो आमच्यांतलो आनी तांच्यांतलो भेदभाव बरोच उणो

जाल्लो. आतां तर एकविसाव्या शेंकड्यांत ह्यो वण्टी दिश्टी लेगीत पड नाशिल्ल्यो पुणून ना. आतां पर्थून हो जातीभेद उप्रासून आयला.

राजकारणी २ : भावांनो, समाजांतले दरेक घटक आतां स्वतंत्रपणान रावंक सोदतात. दरेक जाण आपणाल्या समाजापुरतें पळयता देखून आमी आमचे खातीर ही अशी वेगळी मसंड बांदून घेतल्या ती योग्य आसा. तिचेर आमी दुसऱ्या समाजाचें वर्चस्व चलूंक दिवंक उपकारना.

राजकारणी १ : ह्या जातीभेदाक लागून आमच्या आनी त्या लोकांच्या मदल्या एकवटाक फूट घालूंक ते सोदतात.

नागरीक १ : पूण आमी म्हणटात अश्यो दोन-दोन मसंडी तेंकून बांदप हें साप्प चुकीचें. पयरची गजाल सांगतां तुमकां. ते आयले आनी म्हणूंक लागले, अंदूची गांधी जयंती आमच्या वाड्यार खय मनोवंक सोदतात. हरशी गांधी जयंती पुराय देसभर मनयतात. मागीर सरकारी पावंड्यार ती आमच्याच वाड्यार कित्याक मनोवप? आमी मागाशिल्ले म्हणून?

राजकारणी २ : हाचोच अर्थ तांकां लेगीत पटलां आनी ते मानतात हो जातीभेद. आमी आमचो धर्म राखूंक जाय. पाळूंक जाय.

नागरीक २ : आमी आमचो धर्म भश्टूंक दिवपाचे ना.

नागरीक १ : आमी मनीस. मागीर ते खंयचेय जातीचे आसूं. एकेच सुवातेर पावपाचें देखून आमच्या गांवांत अशी आमचेमदीं फूट पडपाक आमी दिवपाचे ना. आमकां वेगवेगळ्यो मसडी नाकात. आमकां एकूच मसड जाय.

नागरीक २ : आमी तांकां आमचे मसडींत प्रवेश दिवपाचे ना. ना म्हळ्यार ना, केन्नाच ना.

राजकारणी १ : हें पळयात, तुमकां सांगूंक वायट दिसता. पुणून सांगतां... हे गजालींतल्यान ते तुमकां मागशिल्ल्या जातीचे म्हूण हिणसावंक सोदतात. तुमचे फाटीर ते लेबल लावंक सोदतात.

नागरीक १ : आमकां जातीवयल्यान चिथायल्लें सोसचें ना. आमी ते खातीर

झगडटले.

राजकारणी २ : आमचें मर्दी दुसऱ्यांक धुमशेणां कांडूंक मेळचिना, तांकां तांचो शेक चलोवंक मेळचोना.

नागरीक २ : खालच्या जातिंतल्या ह्या लोकांची दादागिरी आमी खपोवन घेवचे ना.

राजकारणी १ : तुमचे अधिकार आनी स्वातंत्र्य राखपाक एकचारान रावात. दुसऱ्याकडसून हिणावन घेवं नाकात.

राजकारणी २ : तुमचें अस्तित्व आनी परंपरा, धर्म तुमी राखून दवरात.

नागरीक १ : आमी खालचे जातीचे म्हूण हिणसावन घेवचे नांत.

नागरीक २ : आमचो धर्म आमी बाटोवचे नांत.

नागरीक १ : आमचे वयलो हो अन्याय आमी सोंसचे नांत.

नागरीक २ : आमच्या धर्माआड जो येता ताका आमी सोडचे नांत.

नागरीक १ : आमचे वयलो अन्याय पयस करात.

नागरीक २ : आमचो धर्म आमी भश्टूंचे नांत.

[वाद तेंगशेर पाविल्ल्यान दोगांय नागरिकांच्यो शिमो हुंपून झगडीं जातात. दोगय नागरीक सकल पडटात. दोगूय राजकारणी एकमेकांक फुडो करीत हांसतात. हातांत हात घालून थंयच फेरो धरतात]

राजकारणी १ : हीच आमच्यांतली परंपरा... इतिहासांतली.

राजकारणी २ : तातूंतच आमचो सुवार्थ.. .. सासणाचो.

(दोगय तकलेवयली तोपी सरकोवन घेतात. पॉज. थंयच देखाव फ्रिज. गाण्याच्यो वळी आयकूंक येता.)

संस्कृतायेचें पेटोवन सरण
कुडींची तांणीं केली रे मसंड
तारा लै ला रे लै लै ला
तारा लैला रे लै लै ला...

(घुमटाच्या वाडट्या साजार काळोख.)

## देखाव चवथो

[माचयेर उजवांड. उजवाडांत पयल्या देखाव्याचे अखेरेक जशे चौगूय राविल्ले ते पॉजीत.]

आ. मा. २ : देखुनच सांगतां, सामान्य मनशा, आमकां दोळ्यांमुखार दवरून तुमी येवजिल्ल्या आनी निर्माण केल्ल्या ह्या देसांत कोणाकच सुखाचे अशे दोन दीस सारूक मेळना.

आ. मा. १ : आरे दुबयतलो एक मनीस सहज कळ काडची तशी कळ लायता आनी आमच्या देसांतल्या हजारांनी भावंडांचे जीव घेवन आपलें बळगें मिरयता, तेदेवेळार हाका धरात, ताका धरात करून सगळेच आड्डतात. पूण देसांत जे खऱ्यांनीच मेल्ले तांचेखातीर कोणाचेंच काळीज हालना रे. तुमच्यातले हांव हांव म्हणपी लेगीत हात कवळून वोगी रावतात.

आ. मा. ३ : संत्रमागांत लाखांनी भुरगीं शिकिल्लीं आसात. शिकिल्ल्या कागदांच्यो फायली घेवन हेवटेन तेवटेन बाबडीं नोकरे खातीर भोंवत आसतात. जायत्या जाणांचीं दारा झरोवनय ताका फावगची एक चीट मेळना. तेदेवेळार आमकां आदर्शांक दोळ्यामुखार दवरून तांकां शिकयल्ल्या आवय-बापायचीं तोंडां तुवें पळयल्यांत? त्या भुरग्यांचीं तोंडां कशीं बावतात तीं पळय.

आ. मा. १ : जय किसान, जय जवान, जय विज्ञान अशें म्हणपी हांव एक आदर्श... हांव शेतकार... कितलें पीक पिकयतां पळय... बाजाराकय घेवन वतां... केन्नाय मेळ्ळोच जाल्यार फावो तो दर मेळटा ना जाल्यार हांव स्वताकूच विकून परतो येतां. धतरिवयल्या काळखांत रावून मळबांतल्या उजवाडाकडे पळोवन दीस काडटां. आरे सामान्य मनशा, खंयच्यांच सबसीडीन म्हजें घर परजळना रे... सांग सामान्या, हें हागा चल्ला कितें?

आ.मा. ३ : सामान्य मनशा, दोळे उक्ते करून पळय. मनीसपणाची भास कळनाशिल्ल्या ह्या राज्यांनी-देसांत पळय, दरेक जातीचीं वेगवेगळीं घरां जाल्यांत ... दरेक गटाचे मुखेलीय वेगळे आसात... दरेकाची करणी वेगळी आसा... हाकाय लागून कोणाच्यो भावना दुखावतात... कोणाच्यो उप्रासून येतात आनी शेजरा शेजरा रावतल्यांच्या मनांक कंवच्यांक पडिल्ल्या वेरांवरी, फूट पडटा. आरे सभाग्या, हातुंतल्यान जाल्ल्या लटाफटींत, जाळपोळींत लासून वतात तीं सामान्य मनशां. लटाफट, जाळपोळ घडोवन हाडपी मात केन्नाच लासून वचनात आनी मरनातय. हाचो तुवें केन्नाच विचार केला व्हय?

सा. मनीस : पुणून तांच्यांतली राष्ट्रनिश्ठा, स्वातंत्र्यनिश्ठा कित्याक उफाळून येना?

आ. मा. ३ : (हांसतात) आरे सभाग्या, व्हाळांत अयिल्ल्या हुंवारांत जशें सगळें एकाच बशेन व्हावन वता तशी राष्ट्रनिश्ठा, स्वातंत्र्यनिश्ठा आतां सदांच व्हावन वचत आसा.

आ. मा. २ : परकी राज्यां हें तेळत आसा देखून तीं रोखडींच आमकां गिळपाचे तयारेंत रावल्यांत.

सा. मनीस : मागीर आमचें अशें आमचेलागीं कांयच उरपाचें ना.

आ. मा. १ : (हांसता) सामान्य मनशा, तूं खूबच भावार्थी आसा. सादो आसा. भोळो आसा. इतले दोळे धांपून असो बेसावध रावूं नाका.

आ. मा. ३ : हें पळय सभाग्या, आमकां लांच मेळ्ळी कीं आमी लज सोडटात आनी देसाचीं गुपितां उक्ताडार सोडटात. खरें म्हळ्यार आतां हांगासर म्हापुरसाची खरी गरज आशिल्ली.

सा. मनीस : तशें जाल्यार ह्या म्हापुरसाक हांव जल्माक घालतलों.

१/२/३ : तुजेलागीं तें जावंचें ना.

सा. मनीस : कित्याक?... कित्याक जावंचें ना?,

आ. मा. ३ : निदान ह्या जल्मांत तरी तुका तें शक्य जावंचें ना.

सा. मनीस : नाका अशें म्हणू नाकात. म्हाका त्या म्हापुरसाक जल्माक

घालून ताका विनवचें आसा, हे म्हापुरसा, म्हज्या यत्नांचेर आनी कर्तुबांचेर खोशी जावन एकदांच तूं जल्माक यो... एकदांच जल्माक यो... आनी ह्या संवसारांत उप्राशिल्ल्या खवदोळाक आडो घाल... ह्या म्हज्या देसांत पडमुरांक तुपान खावंक दिवं नाका... म्हजे सारकिल्ल्या सामान्याक उपाशीं दवरू नाका... सैमाक म्हजेखातीर .. आमचेखातीर मातसो उदार कर..

आ. मा. १ : ना जावंचो. ताका तर राजकारण्यांनी केन्नाच सोपयला.

मनीस : दरेक तरणाट्यांच्या मना-बळगें वाडय... ताका आशा दाखय.

आ. मा. २ : आस्त दाखोवन ताका व्यसनाधीन केला सामान्या.

मनीस : म्हज्या कश्टांक फळ लागतलें इतलो तरी म्हाका भरवसो दी.

आ. मा. ३ : भरवसो? तो आतां कोणाचो ना. खासा तूं घरच्यांचो लेगीत धरूं नाका.

मनीस : तशें जाल्यार नोकरदाराक-पगारदाराक ताच्या कर्तुबाची जाण तरी करून दी.

आ. मा. २ : ती साता दर्यापलतडची गजाल. इतलें म्हान कार्य करपाक खयचोच दुस्वासी मुखार येवचो ना.

मनीस : हे म्हापुरसा, हांव तुका दोनूय हातांचें साकडें घालून होरायतां, म्हजे मायभुयेक सदचो भौमान मेळोवन दी..... म्हज्या भावंडाक उदक दी... रोजगार दी.. तांची पिडा पयस करून सगळें अमंगळ लासून उडय. घरांतले अस्तुरेक मानान पाटार बसू दी. शिंदळक्याच्या गळ्यांत घाल फांतर आनी एकदाच ... एकदाच हे म्हापुरसा, आमची घाराणी सुटटली अशें आमकां सरकार दी.

(देखाव फ्रिज.. गितांच्यो वळी आयकूंक येतात)

हांगा भरला बाजार भायल्यांचो
आमकां तुमकां नाडपाचो
देस जाला काय खाणावळ
कशीच पावना येणावळ
(घुमटांच्या वाडट्या सुरांचेर गीत सोंपता)

आ. मा.३ : (हांसता) तुवें कितलेंय जरी नाक घासलें जाल्यारय म्हापुरसाच्या काळजाक धार फुटपाची ना रे.

सा. मनीस : तुमी उलोवं नाकात. उलोवं नाकात तुमी.. म्हाका तुमचें कांय एक आयकुपाचें ना. तुमी जो अच्छेव मांडला तो म्हाका सोपोवपाचो आसा. हांव तो सोंपयतलों आनी संवसारांत सूख-समृद्धीचो परमळ पसवयतलों... सगळ्यांक मेकळो उस्वास घेवंक लायतलों.

आ. मा.२ : हें तूं सगळें फुडारांत करतलो... हो पळयला न्हय, तुज्यामुखार वर्तमान आसा तो कितलो भिरांकूळ आनी विचित्र आसा पळय न्हय?

आ. मा.१ : हो अन्याय अत्याचार, नाडणूक-पिळणूक, धुमशेणां, ही शबय सत्तेच्या माजाचे पास तुज्या गळ्याभोंवतणी पडल्यात, तुजो उस्वास अंदला, आनी तूं फायच्यो गजाली करता?

आ. मा.३ : तुजो सळसळट्या रगताचो सांगाती, जाका तूं देसाच्या उदरगतीचो फायचो खांबो म्हणटा, ताका .. त्या तरणाट्याक पळय.. व्यसनानी कितलो पोखरला तो... तो आयजूच करमेला. फाल्यां आनीक देसाक कितें सांबाळटलो? उलय?

आ. मा.२ : सामान्या, तुजी सत परिस्थिती आमी तुका दाखयल्या.

सा. मनीस : हें पळयात, म्हाका आनीक ह्या कोंडांत लोळपाचें ना. देसांत-राज्यांत, समाजांत पसवल्ली ही घाण म्हज्यान सोंसूक जायना.

१/२/३ : देखूनच आमी म्हणटात, तूं आमचें आयक.

सा. मनीस : कितें तें..? सांगात.

१/२/३ : आमचें आयकल्यार तुजेंच बरें घडूं येता.

सा. मनीस : म्हाका मेकळो स्वास घेवंक मेळटलो?

१/२/३ : पयलीं आमचें आयक आनी मागीर तूं थाराय...

सा. मनीस : सांगात

आ. मा.१ : सामान्या, आमी जंय जंय हात दवरलो, तो तुवें आदर्श मानलो. हांवें वायट पळोवंचें न्हय म्हूण म्हज्या दोळ्यार हात दवरलो. तुवेंनय दवरलो.

आ. मा.२ : हांवें वायट आयकुचें न्हय म्हण कान धांपले, तुवेंनय धांपले.

आ. मा.३ : हांवें वायट उलोवंचें न्हय म्हण तोंड धांपलें, तुवेंनय धांपलें.

आ. मा.१ : आतां मेकळें उल्लें तुजें नाक. ह्या अन्याय-अत्याचाराची घाण तुज्या नाकांत शिरत आसा.

सा. मनीस : ती घाण म्हाका सोंसना.

१/२/३ : देखुनच म्हणटात... तुजें नाक धांप...संवसारांतल्यो ह्यो गजाली-घडणुको अश्योच चालू उरतल्यो... आरे सभाग्या, ह्या संवसाराची रीत आनी फुडार आमकांच कित्याक.... हजारांनी वर्सां पयलीं संतांक लेगीत पयलींच कळिल्लो. देखून ताणीं पयलींच बरोवन दवरलां...
पुण्यवंत ते गेले पाताळी, दरिद्री ते भाग्यवंत झाले, चोरट्याचा बहुमान वाडविला, सज्जनांचा झाला बहू छळ.

आ. मा.२ : सामान्य मनशा, आमचें दुसरें रूप तुवें आजमेरेन पळयलें... तें अज्ञानान. पुणून,... तूं आतां जाणकार जाला... हें अशेंच घडत रावतलें.... हें चलता तें अशेंच चलूं दी... फकत तुजें नाक धांपून धर.

आ. मा.१ : सभाग्या, आमकां तुजी काकुळट येता खरी, पुणून विधिलिखीत वेगळेंच आसा देखून सांगतात,... इतलो तेंप तूं देसाच्या बऱ्याचो सोपूत घेतालो आनी आमी तुका वांगड दिताले... पुणून तो कोणाक मानवलोना, देखून तो आता मुळाव्या शिक्षणातल्यानच काडून उडयलो.... सभाग्या, .... आतां आमचें फावलां. आतां आमी सोपूत घेतले... आनी तूं आमकां वांगड दितलो... घे सोपूत.. आमच्या सांगातान.. घे सामान्या, घे सोपूत घे...

(ताचे भोंवतणी तिगूय फेरो धरतात. मदेकाक तो सामान्य मनीस नाक चिमटेंत धरून घुस्मट्टा.)

आ. मा.२ : हो आमचो देस... सगळे देशी आमर्ची हायसां. आमी आमच्या देसाचो दुस्वास करता. ताच्या गिरेस्त आनी भोवरूपी दायजाचो, धन-दौलतीचो... भांडवलाची.. येणावळीची आमी आस धरतात... सुवार्थ सांबाळटात.

आ. मा.३ : ह्या सुवार्थाक सोबसारकी चलणूक, वागणूक उरची हे खातीर आमी सदांसर्वकाळ पोटतिडकेन वावुरतले... आमचे आवय-बापूय, गुरूजन आनी जाण्टेले हांचो आमी सदांच दुस्वास करतले आनी सगळ्यांकडेन आपसुवार्थान पळयतले.

आ. मा.१ : तांचें घट्ट्रण आनी अभरगत हातूंतच आमचें सूख आस्पावता. आमचो देस आनी आमचे देसभाव हांच्या घट्टणाक निश्ठेन वावुरपाचो आमी सोपूत घेतात.

[सामान्य मनशाचे भोंवतणी घुंवता आसतनाच तांच्या हातांतले पास सामान्य मनशाच्या गळ्याभोंवतणी आवुळटात. सामान्य मनीस तडफडटा आनी आदर्श माकड आपली बसका घेवन मुळावे सुवातेर बसतात. देखाव फ्रिज. काळोख.]

**सोंपता**



उल्हास यशवंत नायक

उल्हासाचें बरोवप 'आयलें तशें गायलें' अशा उखलाप्या स्वरूपाचें न्हय. तो सामाजीक लागणूक मानपी, सामाजिक बांधिलकेचें सदांच भान राखपी नाटककार. समाजांतल्या विविध विशयांचेर खोलायेन अभ्यास करून बरोवपाक बैठक मारपी. एका निश्ठावंत लेखकाक योग्य अशे तरेन सामाजीक, राजकी, धर्मीक, शिक्षणीक, मनोविश्लेशणात्मक अशे तरेकवार विशय तो आपणाल्या नाटकां/एकांकींनी हाताळटा. 'विविध' विशयांवेल्या 'चार' नाटकुल्यांचो हो संग्रह; देखुनूच 'चतुर्विध' हें सोबसारकें नांव ह्या पुस्तकाक दिलां आसूं येता.

उल्हासाचीं कांय नाटकां हांवें कला अकादमीच्या वर्सुकी स्पर्धांनी पळयल्यांत. फावोशें मार्गदर्शन एखाद्या स्वतंत्र प्रज्ञेच्या दिग्दर्शकाकडल्यान मेळत जाल्यार तागेलीं नाटकां आनीकूय फुलूं येतात अशें म्हाका केन्ना केन्ना जाणवलां. हे प्रस्तावनेच्या निमतान ह्या नाटककाराक आशिर्वाद दितना म्हाका आनंद जाता. ह्यो नाटिका वाचून म्हज्यो अपेक्षा उल्हासान वाडयल्यात.

प्रकाश थळी

ISBN 81-902817-2-0